जाग प्रकाशनाचें

# जाग

म्हयनाळें

वर्स ४८ : आंक ८ : एप्रील २०२२

● संस्थापक संपादपी :
स. रवीन्द्र केळेकार
स. सुमंत केळेकार

● वैचारीक दायज :
स. माधवी सरदेसाय

● संपादपी :
आसावरी नायक

● अतिथी संपादपी :
सखाराम शेणवी बोरकार

● पालवी संपादपी :
कृपाली नायक, एडना वाझ

● उजवाडावपी :
जयवंत भा. सरदेसाय
२०१-बी, सालदॅल अपार्टमॅन्टस्
रुअ द साउदादिश, पाजीफोंड,
मडगांव - गोंय ४०३ ६०१.

● छापपी :
इंप्रेशन्स, बी-२, 'अक्षर आर्केड',
गोंधळी गल्ली, बेळगांव ५१० ००२

● वेव्हाराचो नामो :
जाग म्हयनाळें
बिल्डींग ३, प्लॅट ३, - SE-3
मॉडेल स्टेटस, दोनापावल-तालिगांव मार्ग,
गोंय विद्यापिठा लागसार,
ताळगांव-गोंय ४०३ ००४.
फोन: ७४४७२६८७२० । ९७६५९८७६०६

| | |
|---|---|
| वर्सुकी पटी | : ४००/- रु. |
| विद्यार्थ्यां खातीर (फकत वर्सुकी) : | २००/- रु. |
| तीन वर्सांची पटी | : १,०००/- रु. |
| वाचप-घरां खातीर वर्सुकी पटी | : ५००/- रु. |
| जिवीत भराची वांगडी-पटी | : ४,०००/- रु. |

**Jaag Bank Details:**
Accont No. 4004002100005165
Name : JAAG MONTHLY
Bank Name: Punjab National Bank
Branch : Panaji-Goa
IFSC Code: PUNB0292300

किरकोळ आंकाचें मोल : रु. ४०/-



## मांडावळ...



**भायलें चित्रः** समीर झांटये.
**भितल्ली चित्रां :** भारत जगताप, निशीत बोरकार.

# नव्या सरकाराक येवकार...

१४ फेब्रुवारी २०२२ दिसा गोंय विधानसभा वेंचणुकेचें मतदान जालें आनी तीन सप्तकां उपरांत वेंचणुकांचो निकाल लागलो. मतदान सरासरी ८०% जालें. कोविड आनी फ़ाटलीं दोन वर्सां भौसान भोगिल्ले त्रास पळयल्यार इतलें मतदान जालें तें खूप म्हणपाचें.

गोंया सारक्या ल्हान प्रदेशांत पयले दोन पांवड्यांभितर वेंचणूको घेवप आनी बाकीच्या राज्यांतल्यो वेंचणुको सोंपसर तीन सप्तकां निकालाची वाट पळोवपाक ताटकळावप आनी मतदान मशिनां राखपाक लाखांनी पयशे मोडप, हें कित्याखातीर, हो सामान्यांक पडिल्लो प्रस्न. हीच वेंचणूक निमण्या पांवड्यार घेवंक जाताली. आचारसंहिता दोन सप्तकां फुडें वतली आसली आनी जी कामां ठप्प जाल्लीं तीं थोडीं जाग्यार पडटलीं आसलीं.

ह्या तीन सप्तकांत भौसाची मात भरपूर मनरिजवण जाली. युट्युब, फेसबुक आनी हेर सोशल मिडिया हांचे वांगडा विंगड विंगड चॅनल्सांचेर तर स्वघोशीत राजकी पंडितांनी धुमाकूळ घालो. तांचेर पातयेवन कांय पक्ष सरकार घडोवपाचीं सपनां पळोवंक लागले. शाबी, बाबी सारके फुडारी, धोंपराक बाशींग बांदून मुखेलमंत्रीपदाचीं सपनां रंगोवंक लागले. सत्तेवयलो पक्ष आपल्याक कमी जागे मेळ्ळ्यार कितें करपाचें हाचेर चिंतन करपाक लागलो. एक बारकेलो पक्ष तर आपलो मुखेलमंत्री केल्यारुच आपूण तेंको दितलों, अशें हड्डें फुलोवन सांगूंक लागलो.

निमणो निकाल जाहीर जालो. सगळ्यांची फूक गेली. सत्तेवेलोच पक्ष सत्तेर उल्लो. ह्या वेंचणूक निकालाचें खाशेलेपण म्हळ्यार रिव्हॉल्युशनरी गोवन्स आनी आम आदमी पक्षान गोंय विधानसभेंत केल्लो प्रवेस. पयल्याच धपक्याक रिव्हॉल्युशनरी गोवन्स पक्षाक भारतीय जनता पक्ष आनी कॉंग्रेस हांचे फाटोफाट ९.९६% मतां मेळ्ळीं. एक सशक्त थळावो पक्ष म्हण 'आर जी' पक्ष मुखार येता. हो पक्ष कितल्याशाच पक्षांक मारक थारतलो. तांच्या कल्पने भायल्या जैतान राजकी पंडीत आनी बाकीचे पक्ष हादरून गेले. भारतीय जनता पक्ष परतो वेंचून आयलो.

एक शिस्तीचो पक्ष म्हण नामना आशिल्ल्या भारतीय जनता पक्षाक सरकार घडोवपाक बारा दीस लागले. मुखेलमंत्रीपदाची माळ परत एकदां दो. प्रमोद सावंत हांच्या गळ्यांत पडली. तांका आमच्यो शुभेत्सा. एक थीर सरकार आमकां मेळूं हीच आमची मागणी.

कलेच्या मळार गोंय कोविडा उपरांतच्या काळांत परत मेकळेपणान कूस परतिता. कला अकादेमीची ४६वी कोंकणी नाटकांची हालींच सर्त सोंपली. अंदू ही सर्त पोरूंच्या भशेन फोंड्या जाली. कला अकादेमीन भोगावळ काडची तशीं सर्त घेवची न्हय. कांय दसकां नाट्य चळवळी कडेन कसलोच संबंद नाशिल्ल्याक परिक्षक म्हण घालप ही कला अकादमीचीं घाळपणां अशेंच म्हणचें पडटा. फाटलीं कांय वर्सां नवे प्रवाह आनी कल हांचे कडेन संबंदीत सक्रिय अशे जायते नट, दिग्दर्शक, कलाकार गोंयांत आसतना हो घोळ कित्याक?

नाटकांक उर्बा दिवपाक कला अकादेमी इनामां मेळोवपी नाटकांचे प्रयोग गोंयांत पांच स सुवातांनी कित्याक करीना? एक प्रयोग जीव ओतून आनी लाख, देड लाख खर्चून करप आनी एका प्रयोगान विशय मेकळो? कलेचो, कलाकारांच्या श्रमांचो विचार जावंक जाय. म्हणजेच करूंक जाय.

कलाकारांक खऱ्यांनीच उर्बा दिवंक जाय जाल्यार ह्या म्हत्वाच्या मुद्द्यांचेर खोलायेन चिंतन जाय. कलाकारांनीय आवाज काडूंक जाय. जाब विचारूंक जाय. कोंकणी नाटकांची सर्त जातली काय ना हाची सर्त सुरू जाल्ली तेन्ना धुगधुग आसताली. उणींच पांच नाटकां जाय पडटालीं. म्हालगड्यांनी, कांय सेवकांनी हाडाचीं काडां केलीं आनी मुळावण घालें. त्या रोप्याचो आयज रूख जाला. तो व्हडलो जावंक जाय. बऱ्या दर्ज्याचीं नाटकां जातात. ताका नाखटां लावपाचीं 'नाडकां' आनी घाळपणां करपाचो विचार लेगीत कोणाच्या मनांत येवंक फावना. कोंकणी मनशाची जापसालदारकी ही. चुकता तें निटायेर घालपाची.

एप्रीलाचो 'जागा'चो हो आंक तुमच्या मुखार दवरतना आमकां खोस भोगता. मार्चाच्या महिला कथा आंकाचें अपुरबायेन स्वागत जालें. पानां वाडोवनूय कांय कथांचो आसपाव करपाक मेळ्ळो ना. तांतल्यो कांय कथा ह्या आंकांत घेतल्यात. फाटल्या खेपे आमी कवयित्रीं कडल्यान कविताय मागयिल्ल्यो. तांतल्यो कांय कविता 'कविता-अस्तुरी' ह्या माथाळ्याखाला छापल्यात. हो भोवरंगी आंक तुमकां आवडटलो असो विस्वास आसा.

आमचे विनवणेक मान दिवन सगळ्या लेखकांनी आपलें साहित्य वेळार धाडलें म्हण सगळ्यांचे उपकार.

***

## 'जाग' वर्गणीदारांक सुचोवणी

आमचे साबार वाचक 'जागाचे' वर्गणीदार जावंक सोदतात. तांणीं 'जाग म्हयनाळ्याच्या' खाला दिल्या बँक नाम्याचेर पयशे भरचे आनी आमकां आपलो पुराय नामो आनी वर्गणी पावती खाला दिल्ल्या फोन क्रमांक, वा ई-मेल, वा नाम्याचेर कळीत करची-

फोन- +91 7447268720

नामो- मॉडेल स्टेटस, फ्लॅट 3-SE-3, दोना पावल-ताळगांव रोड, ताळगांव गोंय 403002

Email- asawari.nayak@gmail.com

**Jaag Bank Details:**

Ac no: 4004002100005165
Name: JAAG MONTHLY
Bank Name: Punjab National Bank
Branch: Panaji-Goa
IFSC code: PUNB0292300

# 'शी इज इम्मोर्टल!'

अरुण जयराम कामत

६ फेब्रेर आयतार ह्या दिसा सकाळी -नामनेच्यो गायिका लता मंगेशकार हांका मरण आयल्याची खबर कानार पडली आनी सगळ्यांत पयली याद जाली ती पी. जी. वुडहाऊस हांच्या एका उतराची. पी. जी. वूडहाऊस ह्या इंग्लीश लेखकाचें साहित्य हांवे वाचूंक ना, पूण प्रसिद्ध मराठी साहित्यीक पु. ल. देशपांडे हांणी तांचेर बरयल्लो 'स्थानबद्ध वुड हाऊस' हो सुंदर लेख वाचला. त्या लेखांत पु. ल. न वुडहाऊसाच्या जिणेंतल्या दुःखदायी प्रसंगाचें वर्णन केलां. 'लिओनारा' ही वुडहाऊसाची एकुलती एक ओपुरबायेची धुव. वुडहाऊस त्रेसष्ठ वर्सांचे आसतना 'लेओनारा' ह्या संवसाराक अंतरली. आपल्या धुवेच्या मरणाची बातमी आयकून वुडहाऊसान उद्गार काडले, ''आय थॉट शी वॉज इम्मॉर्टल.'' लता मंगेशकराच्या निधनाची बातमी आयकतगीर होच विचार मनांत आयलो, ''आय थॉट शी वॉज इम्मॉर्टल.'' ज्या तरेन आमी जल्माक आयल्यात तेन्नाच्यान आमच्या सरभोंवतणी सैमांत झाडां-पेडां पळेतात, न्हंयत, दर्यांत उदक पळयतात, आकाशांत चंद्र-सूर्य पळयतात. ते सदांच आसतले अशें आमकां दिसता, तशीच लता मंगेशकर ही सदांच आमचे मदीं आसतली अशेंच म्हाका दिसतालें. तांका केन्ना मरण येतलें अशें दिसच नाशिल्लें. पूण दुर्दैवान तो दिस आयलो.



''जगातल्या खंयच्याय देशांत तुमी गेले, थंयची व्हांवत्या वाऱ्याची झुळूक हातान धरली, ती पिळून काडली, तर तांतूतल्यान दीदीचे सूर टपकतले,'' लता मंगेशकर हांचो भाव हृदयनाथ मंगेशकर हांणी एका कार्यावळींत हे उद्गार काडल्यात. ह्या तांच्या उद्गारांत कांयच अतिताय ना, कारण जगभरांतल्या रेडिओचेर तांची गाणीं चालूच आसता.

लता मंगेशकर ही खूप व्हडली गायिका, तिज्या नांवार सगळ्यांत चड गीतां म्हणपाचो जागतिक विक्रम आसा. हें सगळेच जाणा. ही नामनेची गायिका प्रखर देशभक्तूय आशिल्ली आणि देशाक गरज आसा तेन्ना आपल्या कलेच्या माध्यमांतल्यान देशसेवा करताली.

दादरा-नगर हवेली हो प्रदेश पुर्तुगीजांच्या ताब्यांत आशिल्लो. दादरा-नगर हवेली मुक्त करपाखातीर गोंयच्या तरणाट्या वांगडाच महाराष्ट्रांतले कार्यकर्ते प्रयत्न करताले. ह्या चळवळीखातीर खूप वावर करचो पडटालो आनी पयशांची खूप गरज आशिल्ली. हो पयसो कसो उबो करप हो प्रस्न कार्यकर्त्यांक पडलो. सुधीर फडके (बाबूजी), राजाभाऊ वाकणकर हे ह्या चळवळींत वांटेकार आशिल्ले. महाराष्ट्रांतले मुखेल कार्यकर्ते. ह्या चळवळीक जाय तो पयसो उबो करपाखातीर लतादीदींच्या गाण्याची कार्यावळ करपाचो विचार कार्यकर्त्यांनी मांडलो. बाबूजीन ही जबाबदारी स्वीकारली आनी ते लता मंगेशकरांक वचून मेळ्ळे. ह्या देशभक्त तरणाट्यांची देशाखातीर काम करपाची तळमळ पळोवन तिकाय खूब बरें दिसलें आनी कांयच मानधन घेना आसतना ह्या कार्यावळींत आपूण वांटेकार जाता म्हणून तिणे बाबूजीक सांगलें. इतलेंच न्हय तर ह्या संगीत कार्यावळीन आपल्या बराबर मोहम्मद रफी आनी संगीतकार सी. रामचंद्र हांकाय आपूण घेवन येतां अशें आश्वासन लतादीदीन बाबूजींक दिले.

१९ एप्रील १९५४ ह्या दिसा पुण्यांत ही कार्यावळ करपाची थारायली. सगळ्या पुणेकारांक खूप खोशी जाली. तिकीट विक्री जोरांत जाली. लता मंगेशकराची पुण्यांत पयलेच फावट कार्यावळ जाताली. कार्यावळीच्या पयल्या दिसा मोहम्मद रफी, सी. रामचंद्र, तांचे सगळे वादक पुण्यांत पावले. लता मंगेशकर कार्यावळीच्या दिसा सांजवेळा चारांक पावपाची आशिल्ली.

१९ एप्रील उजवाडलो. सांजवेळची चार जालीं. पांच जालीं, स जालीं. लता मंगेशकर पुण्यांत पावूंक ना. सुधीर फडके आनी सगळे आयोजक तिची वाट पळेताले. आतां सगळे चिंतेत आशील्ले. इतल्यान कोल्हापूरच्यान बाबूजीक ट्रंक कॉल आयलो. भालजी पेंढारकर फोनार उलयताले. ''पुण्यात येतना ठाणे ते पनवेल मदी लता मंगेशकराच्या गाडयेक अपघात जाला.

''गाडी पुलावयल्यान सकल पडल्या आनी लताक मुको मार बसला.'' म्हूण भालजीबाबान सुधीर फडकेक कळयलें. सगळेच काचाबूल जाले. सुधीर फडकेन बेगोबेग मुंबय मंगेशकारांच्या घरा

फोन लायलो. तो फोन दीदीच्या बहिणीन घेतलो. दिदी आतांच घरा परत पावल्या, तिका मुको मार बसला म्हूण तिणे सांगले. इतल्यान स्वतः दिदीन फोन घेतलो. तुमी कार्यावळ रद्द करुं नाका हांव दुसऱ्या गाडयेन पुण्याक येवपाक भायर सरता अशें तिणे बाबूजीक सांगलें. ''नाका... नाका... आमी आमची कार्यावळ फुडें केन्ना तरी दवरुंया. तूं तुजी काळजी घे.'' बाबूजीन इतले म्हणपाक लता मंगेशकरान फोन कट केलो.

हांगा पुण्यांत सुधीर फडकेन लता मंगेशकराक अपघात जाल्याची खबर सगळ्यांक सांगली आनी कार्यावळ रद्द केली. लोकांनीय समजीकाय दाखयली आनी पयशे परत घेवन लोक परत गेले.

सगळे आटापून बाबूजी आनी सगळे कार्यकर्ते रातचे अकरा वरांचेर बाबूजीच्या घरा जमले. इतल्यान भायर गाडी राविल्ल्याचो आवाज आयलो. भायर येवन पळयत जाल्यार खुद्द लता मंगेशकर दारांत. सगळेच अजाप जाले. फडकेच्या घरांत भितर सरल्या मात दीदी घुंवळ येवन बेशुद्ध पडली. कोणेतरी बेगीन वचून दोतोराक हाडलो. चड श्रमान आनी मनाचेर ताण घेतिल्ल्यान ती बेशुद्ध जाली म्हण दोतोरान सांगलें आनी विश्रांती घेवपाचो सल्लो दीदीक दिलो. दिल्या उतराक जागपाचो, देश भक्तीचो, लता मंगेशकराचो गुण पळोवन सगळेच जाण थक्क जाले.

फुडें हीच कार्यावळ दोन मे ह्या दिसा आयोजीत केली आनी दादरा नगर हवेली मुक्ती चळवळीक जाय ती अर्थीक मजत उबी रावली. लता मंगेशकर, सी. रामचंद्र, सुधीर फडके, ललिता फडके ह्या सगल्यांची बेस बरी कार्यावळ जाली.

फुडें २२ जुलय १९५४ ह्या दिसा, गोंय आनी महाराष्ट्राच्या कार्यकर्त्यांनी दादरा नगर हवेलीचेर चडाय केली आनी २ ऑगस्ट ह्या दिसा हो वाठार पुर्तुगीजांच्या तावडींतल्यान मुक्त जालो. २ ऑगस्टाक सिल्वासांत भारताचो तिरंगो लागलो आनी बाबुजीन लता मंगेशकराक तार धाडून कळयलें, ''सिल्वासा लिबरेटेड'', आपल्या आवाजान सीमेवयल्या जवानांक थाकाय दिवपी, तांका लडपाचे बळ दिवपी ही गायिका देशसेवेक सदांच तत्पर आशिल्ली.

खूप साहित्यीक, खेळगडे, कलाकार इतले व्हड जातात की तांचे हात मळबाक तेंकतात. पूण ते व्हड जाले तरी सामान्य मनशाक ते आपलेशे दिसतातूच अशें ना. तांचे ह्या संवसारांतल्यान वचप हें आमी बाकीच्या बातम्याभशेनूच वाचतात, आयकतात. सामके कमी वेळां अशें जाता, जेन्ना कोण कलाकार, साहित्यीक वतगेर आमकां घरचोच मनीस गेल्ल्यांचें दुःख जाता. आमी तांका केन्ना मेळूंक ना, केन्नाच तांचेकडेन संबंद येवंक ना तरी तो मनीस वतगेर घरचो मनीस गेल्ल्याचें दुःख जाता. खऱ्या अर्थान आमच्या जिणेत पोकळी निर्माण जाता. म्हज्या आयुष्यांत म्हाका हो अणभव दोनदां आयलो. पयले फावट १२

*(पान २२ चेर)*





# EAT HEALTHY !
# EAT MANGOES !!

## Swing with Mango Dishes..

Goans have refined the culinary art through a unique blend of the culinary wisdom of the East and West. The dishes included in this treasure trove will reflect the romance of Goans with the mango in the kitchen. With art learnt through family traditions, Nilima has taken care to simplify the mango preparations, making them user friendly and easy to master. You'll love to learn more about the magic of mangoes appealing to your taste buds once you try the recipes in this book.

Price : Rs.165/-
Publication No.: 232
ISBN : 978-81-85854-99-8
Pages : 117
Size : 14.2cm X 22cm

**A Treasure Trove Of**
**GOAN**
**MANGO DISHES**
**by NILIMA KAMAT**




**RAJHAUNS SANKALPANA PVT LTD**
1-Meenakshi Bldg, Dr. Wolfango da Silva Marg,
Panaji 403 001 Ph: 2220320 / 2232177
E-mail: rajhaunsgoa@gmail.com | www.rajhauns.com

# 'तमसोमा': शंकर रामाणींची एक कविता

## एस. डी. तेंडुलकार



*तमसोमा*

*अख्खी पिकील्ल्या जिणेची सांज*
*अदीकच सांवळटा... आनी निखटें निवळ*
*एकटेपण वांट्याक येंवक लागिल्ल्या*
*एकोड्या वाटेंतल्या रुखांच्या सांवळ्यांच्या*
*सासायेकडेन शिटूक नदरेन पळेताना*
*सुवर्णकांतीची एक वेगळी झळझळीत झांक*
*काळजाच्या कोठयेकुडींत ल्हवूच रिगता...*

*आजमेरेन वर्साची वर्सां सोंशीत आयिल्ल्या*
*सुख-दुःखांची, वित्रागांची, उतळतापांची*
*शीम हुपले उपरांत तिनसानच्या धारेर*
*व्हांवतल्या काळखांत हांव एकटोच व्हारांदार उबो*
*राविल्लेकडेन तनरीच्या झोपाळ्यार बसून*
*झोंपय काडटां काडटां कुकुलोच जातां;*
*म्हजे आंगाक आवयन अपुर्बायेन शिंवील्लें*
*आंगले, माथ्याक तोपरें आनी तिणेंच*
*मुठींत दिल्ल्या खुळखुळ्याच्या मंजुळ आवाजान*
*अस्तमतेच्या उदेंतेक परथून तामशी फुट्टा–*
*फुट्टा फाटोफाट फांतोडेच्या न्हाणयेंत हुनहुनीत*
*उदकान न्हाणोवन, कार्तिकांतल्या दाट्ट धुक्याच्या*
*तुवाल्यांत गच्च गुठलायलेलो गुटगुटीत माणकुलो*
*सुर्या म्हजेकडेन पळेत हांशिल्लेवरी दिसता.*

*हो नस्तो भैरजोळोपसो भुरकुटो भास*
*आनी ओठार अळंग उदेल्ली अस्फुट प्रार्थना;*
*"तमसो मा ज्योतिर्गमय..."*

**- शंकर रामाणी**

'तमसोमा' ही वयर दिल्ली शंकरबाब रामाणी हांची कविता 'निरंजन' ह्या तांच्या नव्या काव्यझेल्यांत वाचूंक मेळटा. 'तमसो मा ज्योतिर्गमय' ह्या संस्कृत सुभाषितावेल्यान 'तमसोमा' हें कवितेचें नांव तयार जालां. 'तमसो मा ज्योतिर्गमय' ह्या सुभाषितांत आमकां काळखांतल्यान उजवाडाकडेन व्हरपाचें मागणें मागिल्लें आसा. आनी कविनूय तोच आशय हे कवितेंत केळयल्लो आसा. अशें आसलें तरी ह्या आशयांत वेगळेपण आसा. आपल्या वैयक्तिक अणभवांचे फाटभुंयेर हो आशय कवीन मांडिल्ल्या कारणान 'तमसो मा ज्योतिर्गमय' हे घोषवाक्य कवितेंत एक वेगळेच डायमेन्शन घेवन येता.

हे कवितेंत काळोख भरून व्हांवता तो म्हातारपणाचो. ते नदरेन 'म्हातारपणांतलो काळोख' हो हे कवितेचो विशय म्हणूं येता. ह्याच विशयावेली मराठींत भा. रा. तांबे हांची एक गाजिल्ली कविता आसा. हे कवितेंतल्यो काय वळी पळोवया:

*ढळला रे ढळला दिन सखया*
*संध्या छाया भिवविती हृदया*
*अता मधुचे नाव कराया*
*नेत्र लागले पैलतिरी*

तांबेंची ही कविता आनी रामाणींची 'तमसोमा' हांचो विशय एक आसलो तरी आशयाचे नदरेन 'तमसोमा' ही वेगळी, अदीक खोलाय आशिल्ली आनी व्यामिश्र अशी कविता. 'तमसोमां'त जिणेचे तिनसांजेची कवीक जाणविकाय जाल्या. पूण तो हांगा म्हातारपणाक, मर्णाक भियेना. उरफाटें, तो चिंतनात्मक नदरेन ते सगले स्थितिकडेन पळेता. मर्णाचे शिमेर उबो रावन तो आपल्या निकत्याच जाल्ल्या जल्माचो आभास रचता.

'कृष्णमूर्तिज नोटबुक' म्हूण जे. कृष्णमूर्तिचें एक पुस्तक आसा. तांतलें गुढगुंजन, तांतली तत्वचिंतनात्मकता हांचो हे कवितेच्या संदर्भात उगडास जावं येता. पूण तत्वज्ञानी आनी कवी हातूंत एक म्हत्वाचो फरक आसा. तो म्हळ्यार, तत्वज्ञानी जिणेचो एक अर्थ सांगता; आनी कवी ते जिणेचे कितलेशे अर्थ कितल्याशा पातळ्यांवयल्यान सुचयता. 'तमसोमा' ही कविता ताचें बरें उदाहरण म्हूण दिवं येता.

ही कविता पयलेच खेपे हांवें वाचिल्ली तेन्ना ती म्हजेमेरेन पावंकूच नासली. उपरांत ते कवितेचे दोन-तिनदां वाचन जाल्लें पूण सुस्त मनान हांव दर फावट ती वाचून फुडें वतालों. म्हज्यांतलो रसीक खंयच हालनासलो. पूण कालच 'निरंजन' चाळटना परत ती कविता म्हज्या वाचनांत आयली. आनी कवितेंतल्यो मदल्या कडव्यांतल्यो ह्यो सकयल दिल्ल्यो वळी वाचतना खंयतरी मेंदूंत लकलकिल्ले सारकें जालें :

*'... तिनसानच्या धारेर*
*व्हांवतल्या काळखांत हांव एकटोच व्हारांदार उबो*
*राविल्लेकडेन तनरीच्या झोपाळ्यार बसून*
*झोंपय काडटां काडटां कुकुलोच जातां;*
*म्हजे आंगाक आवयन अर्पुबायन शिंवील्लें*

*आंगलें, माथ्याक तोपरें आनी तिणेंच*
*मुठींत दिल्ल्या खुळखुळ्याच्या मंजुळ आवाजान*
*अस्तमतेच्या उदेंतेक परथून तामशी फुट्टा-'*

जिणे-मर्णाचे शिमेवयलो अणभव म्हाका जाणवलो तो ह्या मदल्या कडव्यांतल्या वळींतल्यान. ते उपरांतूच हांव बाकिचे सबंद कवितेक भिडूंक पावलों. ही कविताच गुंतागुंतीची आशिल्ल्यान तिच्या संदर्भातली म्हजी आस्वाद-प्रक्रियाय गुंतागुंतिची जाल्या. ही गुंतागुंत सोडोवपाखातीर ही कविता जे वळीसाकून म्हाका भिडली थंयच्यानूच हाव आस्वादाक सुरवात करता.

*'... तिनसानच्या धारेर*
*व्हांवतल्या काळखांत हांव एकटोच व्हारांदार उबो'*

ह्यो वळी पळेयात. हांगा तिनसांजचे रूप एखादे न्हंयेसारकें आसा. जातूंत उदक व्हांवता तें काळखाचें. त्या व्हांवपी उदकाच्या काळखांत कवी एकलोच व्हारांदार उबो आसलो तरी ताचें मन काळखाच्या उदकाबरोबर व्हांवत आसा हें हांगा सुचीत आसा. 'तिनसानच्या धारेर व्हांवतल्या काळखांत' ह्या उतरांतलें चलचित्र, 'हांव एकटोच व्हारांदार उबो' ह्या उतरांनी दृश्यरुपांत फ्रीज करून उडयलां. ते खातीर हें मनाचें व्हांवप सूचक आनी प्रत्ययकारी जालां. काळखाच्या उदकाबरोबर व्हांवपी हें मन निमणें उजवाडाच्या म्हासागराक मेळूंक सोदता. ते खातीर तें उजवाडाचे अनेक आभास निर्माण करता. काळजाचे कोठयेकुडींत रिगपी सुवर्णकांतीची झांक, सावळ्यांची सासाय, अस्तमतेचे उदेंतेक तामशी फुटप, गुडगुडीत माणकुलो सुर्या हें सगलें उजवाडाचेंच कळीन निर्माण केल्ले आभास. आनी उजवाड म्हणजे साक्षात जिणेचेंच प्रतीक. ते खातिरूच कवी मर्णाचे फाटभुंयेर आपणाल्या जल्माचें एक मनभुलोवणें चित्र रेखाट्टा. तनरेच्या झोपाळ्यार तो कुकुलो भुरगो जाता. आंगाक आंगलें, तोपरें घालून मुठींत खुळखुळो घेवन वाजयता, हो कविचो भासरुपांतलो पुर्नजल्मूच आसता. म्हणुनूच त्या खुळखुळ्याच्या आवाजान अस्तमतेचे उदेंतेक पर्थून तामशी फुट्टा.

'अस्तमतेचे उदेंतेक' हीं उतरां पळयात. 'पर्थून' ह्या शब्दार परत एकदां नदर मारात. कितें दिसता? पुर्नजल्माचें एक लोभस चित्र दोळ्यांमुखार येवं येता. हो कविचो पुर्नजल्म आसाच. पूण ज्या भासमय जगांत तो पुर्नजल्म घेता. त्या जगांतल्या सुर्याचो लेगीत तो अटळ पुर्नजल्म आसता. ह्या जगांतलो सूर्य गुटगुटीत आनी माणकुलो आसा. कवीक पळोवन 'स्माईल' दिवपी हो सूर्य,

*'अस्तमतेच्या उदेंतेक पर्थून तामशी फुट्टां-*
*फुट्टां फाटोफाट फांतोडेच्या न्हाणयेंत हुनहुनीत*
*उदकान न्हाणोवन, कार्तिकांतल्या दाट धुक्याच्या*
*तुवाल्यांत गच्च गुठलायलेलो गुटगुटीत माणकुलो*
*सुर्या म्हजेकडेन पळेत हांशिल्लेवरी दिसता.'*

हांगा कवी स्वताच्या आनी सूर्याच्या पुर्नजल्माचो आभास रेखाट्टना आपल्याक सूर्याच्या जल्माबरोबर समान पातळेर हाडून दवरता. ह्या आभासदृश्यांत कवी कुकुलो आसा तसोच सूर्यय गुटगुटीत माणकुलो आसा. ह्या दोगांयमदी जबरदस्त साम्य, रिझेंब्लन्स कल्पिल्लें आसा, ते खातीर कवी आनी सूर्य हांचेमदीं एक दाट जिणेचें नातें हांगा प्रस्थापित जालां. तशेंच हांगा एके प्रतिमेंत दुसरी प्रतिमा गुंथलेली पळोवंक मेळटा. कविच्या पुर्नजल्माचे प्रतिमेंत सूर्याच्या पुर्नजल्माची प्रतिमा घुस्पल्ली आसा. देखीक, कविचो पुर्नजल्म जाले उपरांत सूर्याच्या पुर्नजल्माचें दर्शन जाता तें कविचे बालमुठींत आशिल्ल्या खुळखुळ्याच्या मंजूळ आवाजान.

पूण हे सगले पुर्नजल्माचे आभास कवी केन्ना निर्माण करूंक शकता? आजमेरेन जें कितें सुखदुख्ख, उतळताप भोगले, तांची शीम हुपले उपरांतूच.

*'आजमेरेन वर्सांचीं वर्सां सोशीत आयिल्ल्या*
*सुख-दुःखांची, वित्रागांची, उतळतापांची*
*शीम हुपले उपरांत तिनसानच्या धारेर*
*व्हांवतल्या काळखांत हांव एकटोच व्हारांदार उबो'*

काळखांत कवी व्हारांदार एकटोच उबो आसा. कारण, ताचे अख्खे पिकिल्ले जिणेची सांज अदिकच 'सांवळ्ळ्या'. ताका दोळ्यांमुखार मर्ण दिसूंक लागलां.

आतां हो कवितेचो अणभव गांठीक घेवन आमी कवितेच्या सुरवातीच्या वळीं कडेन वळूं येता. कारण, कविता म्हजेकडेन पावली, म्हाका भिडली ती ह्या दुसऱ्या / मदल्या कडव्यांतल्यान, ताचे उपरांतूच कवितेच्या सुरवातीच्या वळिचें वजन आनी आशयघनता म्हाका जाणवली.

*'अख्खी पिकिल्ल्या जिणेची सांज*
*अदीकच सांवळटा....'*

अख्खे पिकिल्ले जिणेचे फाटभुंयेर कवी हांगा हो जल्म-मर्णाचे शिमेवेलो, पुर्नजल्माच्या आभासाचो अणभव सांगता. जिणेची सांज अदीकच सांवळप म्हणजेच जिणेत काळोख येवप. हांगा एक मतींत धरूंक जाय तें हें, जिणेची सांज हांगा 'सांवळटा' ती 'काळखेना'. 'सांवळप' आनी 'काळखप' हातूंत फरक आसा. 'सांवळप' हातूंत एक अस्तित्व गृहीत धरिल्ले आसता. आनी, 'काळखप' हातूंत अस्तित्वाची कसलीच खूण नासता. ते खातिरूच कवी जेन्ना 'सांवळटा' हो शब्द वापरता तेन्ना भितर काळखाची एक जाणीव दवरून लेगीत तो आपले पिकिल्ले जिणेचे सांजेकडेन अस्तित्वदर्शी रुपांत, समंजस, चिंतनशील नदरेन पळोवंक शकता. काळजाचे कोठयेकुडींत आशेची एक झळझळीत झांक रिगोवन पळोवंक शकता. ते खातीर हे कवितेक मर्णाची फाटभूंय लाबुनूय ती जिणेचो पुरस्कार करपी, आशावादी कविता जावंक पावल्या. परत ह्या 'सांवळपां'त सावळ्यांची सासाय आसा हें खासा कवीच हांगा सुचयता. अशी सासाय आशिल्ले 'सांवळप' हें निराशावादी नासतलेंच. तशेंच 'सांवळटा' हें उतर 'मावळटा' ह्या उतरावेल्यान आयला. सादी सांज 'मावळटा' पूण कविचे जिणेची सांज 'मावळना', ती 'सांवळटा'. कारण, मावळ्ळे उपरांत सगळोच काळोख. पूण सांवळ्ळे उपरांत मात

काळोख आसलो तरीय सावळ्यांचे, उजवाडाचे, पुर्नजल्माचे वेगळे वेगळे खेळ रचपाची शक्त उरता. आशावाद उरता. त्या आशावादा विशीं उलयतना फुडें कवी म्हणटा:

*'आनी निखटें निवळ*
*एकटेपण वांट्याक येवंक लागिल्ल्या*
*एकोड्या वाटेंतल्या रुखांच्या सांवळ्यांच्या*
*सासायेकडेन शिटूक नदरेन पळेताना*
*सुवर्णकांतीची एक वेगळी झळझळीत झांक*
*काळजाच्या कोठयेकुडींत ल्हवूच रिगता...'*

कवी हांगा एकटेपण वांट्याक आयिल्ल्या रुखांविशी सांगता. हें एकटेपण खरें म्हळ्यार कवीचेंच. तो तें फकत रुखाचे प्रतिमेंतल्यान सांगता. ह्या रुखाच्यो सांवळ्यो तिनसांजच्या काळखांत बुडूंक लागल्यात, अशें आसतना ही सावळ्यांची सासाय खंयसून आयली? खरें म्हळ्यार, हांगा तशे रूख एकटे नाच. तांच्या सांगाताक तांच्यो सावळ्यो आसात. त्यो काळखांत बुडल्यात तरी तांचे अस्तित्व आसा, ही अर्थपूर्ण जाणविकाय म्हळ्यारूच 'रुखांच्या सावळ्यांची सासाय'. आनी काळजांत रिगपी सुवर्णकांतीची झांक, ही ते जाणविकायेंतल्यान निर्माण जाल्ले सासायेची लेगीत आसूं येता.

पूण सुरवातेक कविता वाचतना ही सुवर्णकांतीची झांक कसली तें लक्षांत येना. मात सबंद कविता वाचले उपरांत हे सुवर्णकांतीचो संबंद उदेत्या सूर्याकडेन, उजवाडाकडेन, प्रार्थनेकडेन आपशींच जुळटा. ही तांचीच झांक आसतली हें आशयदृष्ट्या पटपाक लागता. तशेंच, ही सुवर्णकांती मावळट्या सूर्याची कित्याक आसूं नये? तशेंय आसूंये. ह्या मावळट्या सूर्याच्या किरणांचे सुवर्णकांतीची झांक, कवी उजवाडाचो उगडास म्हूण आपल्या काळजाचे कोठयेकुडींत ल्हवूच रिगयता आसतलो. 'काळजाची कोठयेकूड' अशें म्हणिनाफुडें त्या काळजांत अश्यो ल्हवूच रिगिल्ल्यो आनीक कितल्योश्यो गजाली आसात हेंवूय ही प्रतिमा सिद्ध करता. ती बेठी काळजाची कूड न्हय, तर तीं काळजाची कोठयेकूड, हाचोच अर्थ, तो सादो रूम न्हय, तो स्टोअररूम, त्या स्टोअररुमांत वर्सांची वर्सां सोंशीत आयिल्लीं सुखांदुख्खां, उतळताप आसात, तशीच थंय सुवर्णकांतीची झळझळीत झांकय आसा.

कवितेचें दुसरें कडवें ते सुवर्णकांतीचे झांकेचे झळझळीत प्रॉजेक्शन म्हण आयलां.

कवितेच्या पयल्या दोन कडव्यांचे विश्लेषण केले उपरांत एक गजाल जाणवूं येता. कवितेचें पयलें कडवें जाणिवेचे पातळेर वावुरता. जाल्यार दुसरें कडवें कवीन नेणिवेचे पातळेर रचलां. देखीक, पयल्या कडव्यांतली जाणिवेचे पातळेर वावुरपी जिणेची सांज, म्हातारपण, सांवळ्यो आनी दुसऱ्या कडव्यांतलें नेणिवेचे पातळेवेलें भुरगेपण, झोपाळो, आंगलें, तोपरें, खुळखुळो. फांतोड हांचे मदीं कवीन एक जबरदस्त कॉन्ट्रास्ट सादला हें दुबावा वियरत जाणवता. कवी पयल्या कडव्यांत रुखांच्या सावळ्यांचे सासायेकडेन शिटूक नदरेन पळयता; हाचे उरफाटें दुसऱ्या कडव्यांत तो तनरेच्या झोपाळ्यार बसता. पयल्या कडव्यांतली 'शिटुकसाण' आनी दुसऱ्या कडव्यांतली 'तनरी ह्या कॉन्ट्रास्टाक पूरक जावन येता. आशयाची धनता वाडोवपी तीन वळिंचें कडवें निमणें येता:

*'हो नस्तो भैरजोळोपसो भुरकुटो भास*
*आनी ओंठार अळंग उदेल्ली अस्फुट प्रार्थना:*
*''तमसो मा ज्योतिर्गमय...''*

फांतोड, सुर्या, भुरगेंपण हो एक निमाणो भैरजळोपसो भुरकुटो भासच आसता, ही वास्तव जाणविकाय कवीक जावनूय तो जाणीव आनी नेणीव हांचे पलतडीं पावला. ही खरी म्हळ्यार अध्यात्मिक अवस्था. म्हणुनूच ताच्या ओंठार अस्फूट प्रार्थना उदेता - 'तमसो मा ज्योतिर्गमय'. आमकां काळखांतल्यान उजवाडाकडेन व्हरात. हांगा ही प्रार्थना पारंपारिक अर्थान जाणवनूय तिका नवें, वेगळे डायमेन्शन मेळ्ळां. कवितेंत व्यक्त जाल्ल्या आशयाच्या संदर्भात तिका आगळो अर्थ प्राप्त जाला. कसो तो पळयात. कवीक भर तिनसनां म्हातारपणांतलो भयानक काळोख जाणविल्लो आसा. हे फाटभुंयेर 'तमसो मा ज्योतिर्गमय' ही प्रार्थना दवरली जाल्यार आमकां आशयाच्या संदर्भात एक अदभुत गजाल हाताक लागता. ती म्हळ्यार ह्या म्हातारपणांतल्या काळखांतल्यान कवी उजवाडाकडेन वचूंक सोदता. म्हळ्यार ऐहिक पांवड्यार तो मरपाक सोदता. ह्या मर्णातूच आतां खरो उजवाड आसा. तो उजवाड पुनरजल्माचो.

ह्या आशयांत एकेकडेन 'मर्ण' एकवटिल्लें आसा तर दुसरेकडेन 'पुर्नजल्म'. हो अणभव तुकारामाच्या 'तुका म्हणे गर्भवासी, सुखे घालावे आम्हांसी' ह्या साच्यांत मोडूं येता.

कवी उदेत्या सूर्याची नेणिवेचे पातळेवेली गजाल सांगता, तशीच ओंठार आयिल्ली प्रार्थना लेगीत 'उदेल्ली प्रार्थना' या उतरांनी व्यक्त करता. ते उदेल्ले प्रार्थनेचें तो उदेल्ल्या सूर्याकडेन सरळ नातें जोडटा आनी प्रार्थना कशी तर उदेल्ल्या सूर्यासारकी अशी एक अर्थव्याप्ती हांगा वाड्यता.

हे कवितेत जशे कॉन्ट्रास्ट आसात तश्यो रिझेंब्लन्स दाखोवपीय कांय गजाली आसात. एकेकडेन कवी आनी सूर्य ल्हान भुरग्याचे पातळेर आयल्यात. कवी कुकुलो जाला तर सूर्य गुटगुटीत माणकुलो. ह्यो दोनूय गजाली 'पिकिल्ल्या जिणेची सांज' हे फाटभुयेर आयल्यात. ते खातीर तांकां आशयाचे वजन मेळटा, तशेंच ही कविता कवीच्या मर्णाचे शिमेरेशेर वावुरता म्हणुनूच तातूंत आयिल्लो कवीचे आवयचो उल्लेख काव्यमय जालाच पूण ते भायर तो कवीच्या जल्माची वास्तविकताय पळयता, तेच बराबर जल्मावांगडा आयिल्लीं सुखदख्खां, वित्राग, उतळताप, मर्ण हांचेंय वास्तव पटयता हातुंतलो झोपाळो हो निखटो झोपाळो उरना. कवी त्या झोपाळ्यार बसून झोंपय काडटना कुकुलो जाता तेन्ना त्या झोपाळ्याचे आपशीच पाळण्यांत रुपांतर जाता. कवीन ही गजाल खंयच सांगूक ना, पूण तरी ती कविता आमकां सुचयता. बरे कवितेचें हेंच खरेलें लक्षण.

हे कवीतेंत 'भैरजोळोप' हो शब्द आयला. 'हो नस्तो भैरजोळोपसो भुरकुटो भास.'- भैरजोळोप म्हळ्यार ऑब्सेशन, कवी मर्ण-काळखाच्या कांठार उबो आसा, पूण तरीय ताका जिणेचें, जिणेंतले उर्जेचे

म्हळ्यारूच पर्यायान सूर्याचे ऑब्सेशन आसा. पूण हो सूर्य कसो? तर कार्तिकांतल्या दाट धुक्याच्या तुवाल्यांत गच्च गुठलायल्लो गुटगुटीत माणकुलोसो. म्हळ्यारूच निकत्याच जल्मल्ल्या ल्हान भुरग्यासारको, स्वताक नेणिवेंत ल्हान भुरगो, कुकुलो म्हूण चिंतप आनी सुर्याकय ल्हान भुरग्याच्या स्वरुपांत पळोवप हो लेगीत कविचो भैरजोळोपसो. म्हळ्यारूच ऑब्सेशनशें. ल्हान भुरग्याची निरागसता, ताचें निर्मळ हास्य, हांगा कवी मर्णाचे भिरांकूळ फाटभुंयेर सांगता. जिणेची सांज जावन एक जीण सोंपता आनी फांतोड जावन दुसरी सुरू जाता, जिविताचे अविरत घुंवपी चक्र ह्या भैरजोळोपशा भासांनी कवी हांगा जाणीव आनी नेणीव हांची शीम हुपून सुचयता, कवी जाका भैरजोळोपसो भास म्हणटा, तो खरें म्हळ्यार साक्षात्कारी भास. हो साक्षात्कारी भास जाले उपरांतूच ताका 'तमसो मा ज्योतिर्गमय' ही प्रार्थना फुट्टा, हे प्रार्थनच्या रुपांत तर तो आपलो वैयक्तिक अणभव सार्वत्रिक करून उडयता.

कवीन एकेकडेन 'अस्तमतेच्या उदेंतेक' अशी उतरां वापरल्यात. सूर्य पूर्वेक उदेता आनी पश्चिमेक अस्तमता. पूण हांगा पश्चिम तीच पूर्व जाल्या. हातुंतल्यान जिणेंत दडिल्लें मरण आनी मर्णांत दडिल्ली जीण वा जल्म तेंच मर्ण, आनी मर्ण तोच जल्म ही गजाल कवी हांगा सुचयता.

ही कविता सुरवातेक म्हाका अपील जावंक ना, हाचें कारण कितें तें आतां पळोवया. ही कविता तीन कडव्यांनी वांटिल्ली आसा. पयलें कडवें आठ वळिंचें, दुसरें चौदा वळिंचे आनी तिसरें कडवें फकत तीन वळिंचें, म्हळ्यार हांगा मेजून पंचवीस वळी आसात. पूण मजा म्हळ्यार हांतलें प्रत्येक कडवें म्हळ्यार एकूच वाक्य, म्हळ्यार, हे कवितेंत फकत तिनूच वाक्यां आयल्यांत. पयले वाक्य आठ वळिंचें, दुसरें चौदा वळिंचें आनी तिसरें वाक्य तीन वळिंचें. हे खातीर कवितेंतली उतरां, एकामेकांत प्रतिमा गुंफीत, इतल्या वेगान धांवत उरतात की उतरांचे वजन आनी आशय कॅच करपाक बरीच तकालस पडटा. (हाका आडवाद फकत निमाण्या तीन वळींचें कडवें.) एखादी फास्ट ट्रेन चलिल्ले सारकीं हीं वाक्यां येतात. ही कविता मुक्तछंदांत आसा म्हणून अशें जालां, अशें न्हय. कारण एखाद्र्या बऱ्या कवीचो मुक्तछंद वाचतना म्हाका असो अणभव केन्नाच येवंक ना. छंदाक जशें वजन आसता तशेंच मुक्तछंदाकूय बी आसता. पूण म्हाका दिसता, मुळांत रामाणी हो छंदांत बरोवपी कवी आनी तो वेगळे वेगळे छंद बरे तरेन हाताळूंक शकता, पूण जेन्ना तो मुक्तछंदांत कविता बरयता तेन्ना बऱ्याच फावटीं ताच्या कवितेंतल्या उतरांचे वजन खंय तरी गळून गेल्ले सारकें जाता. कारण मुक्तछंदांत आशयानुसार उतर खंय तोडचें आनी खंय सुरू करचें हाका म्हत्व आसता. पॉजांक भोव म्हत्व आसता. आनी रामाणीची मुक्तछंदातली कविता ते विशीं जायते फावटीं बेफिकीर रावता, अशें रसीक म्हूण म्हजें मत. (बाकीबाबांसारक्या छंदाचेर जबरदस्त प्रभुत्व आशिल्ल्या कवीचे बाबतींत लेगीत म्हजें हेंच मत. बाकीबाबांची मुक्तछंदांतली कविता पळयात, एकदम फ्लॅट दिसतली. जावं.)

पूण इतलेंय जावन ही कविता म्हाका भिडली. अणभवाची अस्सलता आनी जबरदस्त खरसाण भितर आसा म्हणून हे कवितेची रसिकांक भिडपाची तांकय जास्त आसा.

संपर्क : 9049814854

***





दरेका घरांत आसूंक जाय

अशें पुस्तक

*तांचे विशीं... म्हजेय विशीं...*

एक उगडास भोंवडी

जाग प्रकाशन,

मोल फकत २५०/- रुपये

# वाटो - आडवाटो

मुकेश थळी

भुरगेपणांत आमी खूब चलताले. ‑बालरथ सारक्यो बसीय नाशिल्ल्यो स्कूलाक वचपा खातीर. तीन किलोमीटर चलत वचपाचें- तितलेंच परत येवपाचें. घरांतल्यान शाळे मेरेन वचपाक दोन तीन वाटो आशिल्ल्यो. केन्नाय कुळागरांतल्यान रमत गमत, मजा करीत वताले. केन्नाय रस्त्या वयल्यान वताले. हें चलप, येवप वचप ही एक आंतरीक समृद्धी, वृध्दी आशिल्ली.

सैमाचो सांगात लागींच्यान घडटालो. वनस्पत जीव किडी मुयो, फुलपाकुलीं बिरमुट्यो हांणी आख्खो परीसर भरिल्लो आसतालो. कुळागरांतल्यान शाळेंत वतात काय पिकनिकेक तेंच कळनाशिलें. चंवर, फुलां, पानां, किर्र किर्र करपी किडे, उदकाचें संगीत ही सगळी मजाच आशिल्ली. मुखार एक झरो लागतालो. चार मात्रांच्या केहरवा तालांत तो सुसेगाद कोसळत आसतालो. मागीर शेतां. आयसपयस विशाल शेतांमदले वाटेन वतना अशें दिसचें - सवायशीण बायलेन चपचपीत केंस वळोवन भांग काडचो आनी त्या भांगांतल्यान बारीक मुयेन वचचे तसो हांव पाचव्याचार शेता केंसांच्या भांगांतल्यान पावलां मारीत वचचो. शेतांतलीं कामेरीं खोळ वा कंडो घालून काम करीत आसतालीं. नडणी खंयूय पावं, कंडो बरो हालूंक जाय हे म्हणीची याद जावची. तांच्यो खबरी रंगार येताल्यो. हांसप, किटकिटप, पान खावन रंगयल्ले तांबडेगुंज दांत, किंवाट्यान वा मायेमोगान पेटयल्ल्यो खास ग्रामीण गाळी... प्रियोळच्या ग्रामीण कोंकणीचो उच्चारांचो नाद, हेल. शेत जातकच बांद येतालो. एक मोटें घर लागतालें. तोटेकर कुटुंबाचें. तातूंत तीन कुटुंबां आशिल्लीं. एक आजोळचो पुरोयत. तो वळखीचो. देखून हांव जोतें हातांत घेवन घरांतल्यान राजांगणा कुशीकच्यान चलत वतालों. शॉर्टकट. उपरांत एक अशीर वाट आशिल्ली. पायण. सामकी भयाण. भयाण पायण, ह्या विशयावर हांवें एक कोंकणी निबंद स्कुलांत बरयल्ल्याची याद जाता. दोनूय वटांनी उंच घडो, पालसणां. हुंबकळपी पायपां भशेन वाली. रानवटी प्रकरण. सर्र सुर्र जालें काय काळजांत खपखपचें, शेडो वा शिल्ली काय कसलें तरी जिवाणें बी सरपटना मूं... असो अनामिक भंय दिसचो. पत्रो म्हळ्यार सुकिल्लीं पानां, ताजीं पडिल्लीं पानां आनी खांदयांचे कुडके हांणी पायणी सकयलें कार्पेट उठून दिसतालें. पायणीच्या कार्पेटाक ऋतू प्रमाण रंग येंवचे. ऋतू वेळार कुशीकची जांबळ, जांबळांचो शिंवर करी. रासभर. बाग घेवन जांबळां एकठांय करपाक बसलों



जाल्यार खंयच्यान कसलो प्राणी अवतरत हाची शाश्वती नासताली. कुडकुड्याच्या शिंयांत थंय आबा बशिल्लो दिसतालो. उज्याचो धग पेटोवन. एक दाट पिंजकी कांबळ रेवडावन. कांबळी भशेन आबाय जर्जर जायत आशिल्लो. जगपाची इत्सा आकांत. आबा झाडापाल्याचीं वखदां दितालो. पण मुखामळ कायम गंभीरूच.

पायणींत सकयल जमनीक वा कुशीचे धडेक कितलीं बिळां आशिल्लीं ताची मेजणी जावंचिना. मदींच सकयल कुपादरीच्यो व्हडल्यो फातरी आशिल्ल्यो. निसरडीचेर पडत म्हूण हुस्को आशिल्ल्यान ताचे वयल्यान पावलां सवकास घालचीं पडटालीं. रानफुलां आनी रानफळां थंय आंगाचेर, फाटीचेर पडटालीं. खांदयांचेर माकड उडयो मारताले आनी सगळीं झाडां घस्स घस्स करून मोडून पडटात काय जातालें. कांय वनस्पती, रानटी फळां कुसून तांचो विचित्र दर्प मारतालो.

शिंयाच्या दिसांनी दाट कातीचें धुकें पडटालें. ते धुकें सगळो आसमंत आपल्या पदरान रेवडावन आनी वेधून घेतालें. धुक्याचें हें रूपलावण्य बरेंच मोहक आनी चित्तवेधक आशिल्लें. फुडलें कितेंच दिसनाशिल्लें. फुकटची भानगड लचांड नाका म्हूण पायणीचो शॉर्टकट, आडवाट टाळून आमी लांब मार्गान शाळेंत वताले. सगल्यो वाटो, आडवाटो, मार्ग, बगल मार्ग, मोडणां हें धुकें लिपोवन उडयतालें. तळी आशिल्ली, ताचेर धुक्याच्यो वाफो नाचताल्यो. वाटो आनी धुकें हांचें हें प्रणयी मीलन सूर्यप्रकाश आनी किरणां येतकच विसर्जित जातालें.

मात्शे मुखार वतकच परत एके वटेन कुळागरां, दावे वटेन माड आनी उंचायेर रवीन्द्र केळेकारांच्या विशाल घरा वटेन जायांचे मळे. इतल्यांत शाळेची इमारत कुकारे घालताली - यो रे, यो रे...

पावसांत मजाय दिसताली आनी ताणूय आसतालो. चडशां वाटां वयल्यान उदक भरून व्हांवतालें. शेतां मरडां भाटां हातूंतल्यो वाटो चिकचिकीत बुळबुळीत जाताल्यो. निसरून पडत म्हूण जीव मुठींत धरून चलचें पडटालें. लागींच राकेस रूपांतले व्हाळ, गोलंदाज शोएब मलीका परस वेगवान रन अप घेत खोदोळ तांबडोगुंज उदका लोट शेपडी तुटसर पळत आसतालो. एकदां कुळागराच्या उदकान तुडूंब भरिल्ल्या एका मागांत म्हजो तोल धोंपरा कडल्यान उदका नेटाक लागून गेलो. जीव सांबाळटना बॅग उकतें जालें. पुस्तकां चोपड्यो उदकांत पडलीं, थोडीं मेळ्ळीं, थोडी भिजिल्लीं उखललीं. त्या कुळागराचे हे वटेन वतना ही

याद ताजी जावन मनाच्या भायल्या थराचेर उफेता.

शाळेंतल्यान येता आसतना आमी केन्नाय आडवाटेन जाल्यार केन्नाय आडमार्गान दोंगुल्ले वयल्यान परतताले. दोंगुल्लेचेर आकांताची मोटी उदकाची टांकी आशिल्ली. एके वटेन वयर चडपाक लोखणाची निसण आशिल्ली. आमी वयर चडटाले. लोखंडी धांपणें उखलून उदकाच्या आवाजाचो आनी पातळेचो थाव कान लावन घेताले. मजाच दिसताली.

वाटो, पांयवाटो, मोडणां म्हणजे व्हॉल्तां हांचें म्हाका कायम आकर्शण. मंगेशी जातकच कुंडयच्यान पणजे वतना एक महाकठीण चडटी लागता. कुंडयची चडटी वा कुंकळयेचें व्होल्त अशें ताका म्हणटात. चडटी आनी नागमोडी मोडणां हांचो जिवघेणो मिलाफूच तो. हालींच्या काळांत थंय वन वे मार्ग जाला. पयलीं एकूच मार्ग आशिल्लो. शार्प मोडण. अशा मोडणांची बांदावळ करतना एक व्यवस्थित कोन त्या वर्तुळाकार मोडणाक दितात. भौतिकशास्त्रात तें खातीर एक गणितीय सूत्र आसा.

ह्या कठीण मोडणाचेर एकदां अपघात जालो. ४०-४५ वर्सां आदली घडणूक. आशीर्वाद नांवाची प्रवासी खाजगी बस पणजेच्यान येतना देंवतेचेर ड्रायवराचो ताबो गेल्ल्यान उजवे वटेन मंगेशी वटेन घुंवडावपाची सोडून, थेट सरळ, वणत भेदून, पिठो करून, मोडून सकयल गेली. झाडांक धपके दित अनसांचे बागेंत उमथली. सुदैवान प्रवाशांचें किरकोळ जखमांचेर निभावलें. तातूंत म्हजो एक इश्ट आशिल्लो. ताचो आवरोच उडलो. मुळांतूच ताका आरोग्याविशीं भयरोजोळोप. वैजकी भाशेंत सायकोसॉमॅटीक म्हणजे मनोदैहीक दुयेंस म्हणचें तसलें प्रकरण. आयज लेगीत केन्नाय कमरेंत दुखता आनी हो आशीर्वाद ते आशीर्वाद बसीचो रे, अशें तो सांगता तेन्ना मनांत हांसूंक येता. खरेंय आसूं येत. एक मात नक्की - त्या मोडणाचेर पावतकच मात त्या अपघाताची अदींमदीं याद जाता. कुरू आनी माव कशी ती.

वेलींगचें मोडण बरेंच धारदार आसा. कुंडयचें आसा तशेंच. थंय आमच्या भुरगेपणांत फांकीवंत आदवोगाद सुशील कवळेकर हांचे गाडयेक अपघात जावन तांकां जीव वगडावचो पडिल्लो. ती सुवात अजूनय आंगार कांटो हाडटा. उपरांत एकदां इंदूरची एक टूरीस्ट बस अपघातप्रवण जाग्या वयल्यान सरळ सकयल वचून उमथली. आमी शाळेंत तेन्ना. बाजारांत आशिल्ले. बातमी कळटकच धांवले. ते रक्तबंबाळ लोक पळोवन कांपरें भरलें. तुमी थंय पंचनामो करपाक गेल्ले काय कितें रे? अशें विचारीत उपरांत घरांत जाणटेल्यांनी आमचो पंचनामो केलो.

वाटो मार्ग मोडणां हांचें म्हाका खूब आकर्शण. तातूंतलो वैचारीक दृष्टीकोन पळेयात. जिणेचो महामार्ग थेट सरळ आसलो जाल्यार तातूंत गोडी दिसतली? वाटो, व्होल्तां, आडमार्ग, चडटी, देंवती, जिणेंत रूच, सुवाद, गुणवत्ता हाडटात. मार्ग, मोडणां कशी येतलीं हें आमच्या हातांत ना. थंयचीं फुलां वेंचून जीण परमळीत करपाची कला आमच्या नियंत्रणांत आसा.

संपर्क : 9545827662

***


# DESIGN & DETERMINE YOUR CAREER







RAJHAUNS
**GCET**
PREPARATORY SERIES 2022
- PHYSICS
- CHEMISTRY
- MATHEMATICS



RAJHAUNS
**NEET**
PREPARATORY SERIES 2022
- PHYSICS
- CHEMISTRY
- BIOLOGY




RAJHAUNS SANKALPANA PVT LTD
1-Meenakshi Bldg, Dr. Wolfango da Silva Marg, Panaji 403 001
Ph: 2220320/2232177 | E-mail: rajhaunsgoa@gmail.com
www.facebook.com/rajhauns | www.rajhauns.com

# मन कुशबन: खारीज

**दादा हेगडे**

कुसमण सावन व्हांवपी 'कुशावती' न्हंय ही निमणे 'जुवारी' न्हंयक वचून मेळटा. ह्या पासत ती 'जुवारी' न्हंयचो सुकते भरतेचो एक फांटो अशें कांय जाण मानीत आयल्यात. पावसा दिसांनी जर कुशावती न्हंयक आयिल्ली भरती आनी अटांगार पावसाच्या धुमशेणाचो मेळामेळ जायत तर पाड्डें बुडता. कुशावतीक आयिल्ल्या हुंवारांचे उदक रस्त्यार तशेंच तिच्या लागसार आशिल्ल्या घरांनी भरप हाकाच लोक 'पाड्डें बुडलें' अशें म्हणीत आयल्यात. कुशावतीक हुंवार येवप आनी लागसारचो वाठार बुडप हें बरेंच आदीं सावन जायत आयला. गोंयचें पयलें बंदर चंद्रपूर म्हळ्यार हालीचें चांदर, ह्या न्हंयच्या देगेर आसलें. ११ व्या शेंकड्यांत व्यापारा पासत अरब तशेंच आफ्रिका देंसातल्यान येवपी व्यापाऱ्याल्यो पातमाऱ्यो ह्या चंद्रपूर बंदरार पेणें करताल्यो. ह्या बंदराचो आवांठ चंद्रपूर तें पाड्डें मेरेनचो आसलो. हांगासावन लागसारच्या गांवा- गावांनी तारींतल्यान सामान वतालें. हांका लागून आयज लेगीत ह्या न्हंयच्या कांय भागाक लोक 'तारी पांटो' नांवान संबोधतात. १०५२ सालांत परतून परतून येवपी ह्या हुंवाराक जावपी नुकसाणाक वीटून कदंबराज वंशावळीतल्या जयकेश-१ हाणें हें स्थान परिवर्तन करून गोपका पट्टणम म्हळ्यार आतांचें गोवा वेल्हा हांगासर हालयलें. त्या उपरांत मात ह्या चंद्रपूरच्या बंदराचेर आडनदर जायत गेली आनी ताचे म्हत्व कमी जायत गेलें.

१७८७ सालांत पुर्तुगाली नवी काबिजादींत जुजे पावूलु हाणें आपले बस्तान ओल्ड गोवा सावन केंपें हांगा हालयलें. व्यापारा पासत ताणें कुसमण गावांत बाजार, इगर्ज आनी हेर गजालींची रचणाय केली. केंपें गांवचे लोक ह्या आदीं बाजार करचे पासत पाड्ड्या वताले. तशेंच नवे धर्मांतरीत लोक मिस आयकूंक लेगीत आयतारा पाड्डेच्या इगर्जींत वताले. १९१० वर्सा केंपें कुशावती न्हंयचेर पूल बांदून तयार जालो. पुलाची उंचाय जर पळयली तर त्या वेळार कुशावती न्हंयक येवपी हुवांराचो अदमास येवं येता. हुंवारात जावपी ह्या नुकसाणाक आडवण घालचे पासत पुर्तुगेज सरकारान कुशावती न्हंयचेर धरण बांदपाची येवजण आंखली. कुसमणकार त्या धरणाक 'बांद' म्हणटात. १९५२ वर्सा बांदाच्या बांदावळीची सुरवात जाली. न्हंयच्या आडायिल्ल्या उदकाचो बरो उपेग जावचो म्हण त्या वेळार 'खारीज' बांदपाचो थारलें. केपेंच्या बांदाकडसून सुरु जावपी १७ कि. मी. लांबायेचो हो खारीज, पाड्डें, चांदर ह्या गावांतल्यान पासार जावन माकाझाना हांगासर सोंपता. १९६० वर्सा ताचें काम पुराय जाल्या उपरांत मोठ्या दबाज्यान सरकारी उक्तावण जालें. हो खारीज केपेंच्या बाजारांतल्या जार्दीनाच्या मुळा सांवन व्हांवता. त्या आदीं केपें बाजारांत एका अर्दान दुकानां आनी दुसऱ्या अर्दान सरकारी कार्यालयां ह्या मदीं मेकळी सुवात आसली. खारीज खणचे पासत ह्या मेकळ्या सुवातेर पयली मोठ्या खोलायेची चर खणली. लोकांच्या सुरक्षीतताये पासत खणिल्ल्या सुवातेर दोनूय अर्दांनी लांकडाची वंय केल्ली. बांद आनी खारजाचे उक्तावण करपी त्या



वेळच्या पुर्तुगेज अधिकाऱ्याच्या नजरेंत ती वंय गेली. चर तशीच उरली जाल्यार अपघात जांव येता अशें तांच्या लक्षांत आयलें. उपरांत त्याच पुर्तुगेज अधिकाऱ्यान ह्या मोठ्या चरीचेर शीमीटाचो बेतो घालून भराव घालपाचे फर्मान दिलें. १३८ मी. लांबी आनी १२ फुटाची उंचाय दवरून ताचेर शीमीटाचो बेतो घालो. ताचे वयर मातयेचो भराव घालुन सपाट सुवात तयार केली. भरावान जाल्या मेकळ्या सुवातेर काम्र दे केपेंच्या पालवान जार्दिन बांदले. केपें काम्रान जार्दिनाच्या भोंवतडी बांकडे घालून लोकांक बसपाची वेवस्था केली. एका वेळार केपें रावपी सादो मनीस धरून, त्या वेळचो वेंचून आयिल्लो केपें गांवचो आमदार लेगीत ह्या बांकड्यार बसून चकाट्यो मारतना दिसतालो. आयज तेंच जार्दिन 'म्युनिसीपल गार्डनांत' परिवर्तीत जाला. सुशोभीकरण करपाच्या निमतान त्या 'म्युनिसीपल गार्डनांत' खूपशे बदल जायत आसतात. आतांचें 'जार्दिन' 'म्युनिसीपल गार्डन' वेंचून आयिल्ल्या नगर 'सेवकांच्या' जोडीचें आनी सोशिक सामान्य नागरीकांच्या दोळ्यांक उदक लावपाची सुवात जाल्या!!!

केपें सावन व्हांवपी हो खारीज चांदरा रेल्वे रूळा सकल्यान गेलां. हो पुर्तुगालीन खारीज कांय सुवातीचेर सोडीत तर आयज लेगीत जसो बांदिल्लो तसोच आसा. पुराय १७ कि.मी. लाबांयेच्या ह्या पुर्तुगाली खारीजाचेर १२ कोंपोर्त (Portao वा Comporta) म्हळ्यार उदका आडवणी पासत केल्ली लोखंडी वेवस्था. लागसारच्या शेतांक उदक मेळचे पासत केल्ली ही येवजण. आयज लेगीत सगळ्यांत पयलो कोंपोर्त केपें कादयेलागीं आनी निमणो माकाझान हांगासर पळोवंक मेळटा. साठ वर्सां आदीं लिस्बोवा सावन फ्रांसांतले एके कंपनीत तयार केल्ले हे कोंपोर्त आयज दुर्लक्षित जाल्ल्यान कळमेवपाक लागल्यात. ह्या खारीजाचेर १७ पाजी बांदिल्यो आसात. जर खारीज चुकून उपाट भरलो तर तो उदक भरून फुगचो न्हय म्हण केल्ली ही येवजण. व्हाळ नाजाल्यार व्हांवपी उदका लागसार ह्यो पाजी पळोवंक मेळटात. २ खोलायेचे बुराक आनी आलतड पलतड करुक ३ लोखंणाच्यो आड्व्यो बीम्स आसात. गांवचे लोक तांका करवे म्हणतात. १९८० वर्सा उपाट भरून व्हांवपी ह्या



खारीजाच्या उदकाचेर केपें सावन मडगांव वचचे रस्त्याच्या दोनूय अर्दांनी शेतकार आपलीं शेतां रोयताले. पांचवेशार शेताचो हो गालीचो येता वत्याच्या नदरेक भरतालो. पयलीं पावसांत आनी ताच्या उपरांत हो पांचवेशार गालीचो नजरेक तशेंच जिवाक एक वेगळीच थंडसाण हाडतालो. आयज लेगीत ताचो वापर चालू आसा. पुण शेतां रोवप मात कमी जायत गेलां.

खारजाविशींची चड खोलायेन म्हायती घेवंचे पासत शिंपणी खात्यांत वासपूस करुंक गेलों. केपेंचो बांद आनी खारीज हे विशींची थंय कोणूच काय चड अशी म्हायती दिवंक शकले नात. केपेंचो बांद आनी खारीज वर्सुकी निवळ करपी, सारको करपी कंत्राटदार, जनसेवक, आमदार आनी शिंपणी खात्यांचो मंत्री ह्या सगळ्यांचे येणावळीचे एक माध्यम जालां अशें लक्षांत आयलें. ह्या खारजाक आनी ताच्या बांदावळीक कसलें मोल आसूं येता हांचे कोणाकुच कायच कांयच पडूंक लेगीत नासलें. मनाक वायट दिसलें. खारजाची बांदावळ जावंचे आदीं तो खंयसून वतालो? जमनीची सपाटसाण, समांतर, खोलाय ह्या विशीं त्या वेळच्या सरकारान केल्लो अभ्यास, ह्या कसल्याचीच म्हायती आयज मेळूंक शकली ना. कुसमणा एका सुवातेर वर्सभर उदक व्हांवपी व्हाळाच्या मुळांसावन हो खारीज गेला. तोवूय 'कोंडूय्ट' तांत्रिकतेचो उपेग करून. नव्या साळावले धरणाचें उदक मडगांव सावन वास्को सांकवाळ पठाराचेर पावंचे पासत जागो संपादित केल्लो. ते वेळच्या सरकारान तो आपल्या ताब्यांत लेगीत घेतिल्लो. कोंडूय्ट तांत्रिकतेचे उपेग करून उदक वास्को मरेन पावोवप अशी येवजण आसली. कोंडूय्ट तांत्रिकतेक अपेस येवूं येता आनी उदक वास्को मरेन पावंचें ना अशी वावडी ऊठोवन संपादित जाग्याचें 'बायपासांत' रुपांतर जालें. उण्यांत उणें शेताची जमीन ह्या कानाला पासत संपादित जावची अशी मोख आसली. हेच पासत आयज आमी मडगांव सावन फुडें पणजी वतना शेतां मदल्यान वांकडी तिकडीं वोल्तां मारीत रुपांतरीत बायपासावेल्यान गाडी चलयतात. आनी त्या बायपासाच्या कुशीक गोंयचीं शेतकारां भाजी विकतात. शेतांत आपल्या हातांनी शिंपून पिकयल्ली भाजी घेवन भर

*(पान ३० चेर)*

# 'आर्तुगाला पोर्तुगाला'

हर्षा शेटये

उमाणीं ही समाजाची रासवळ निर्मणी. सुरवेक ही निर्मणी कोणाय एकट्या कडल्यान जाल्ली आसूं येता. तो मनीस रावता त्या वाठाराची संस्कृताय, दायज, वैशिश्ट्यां ताच्या उलवण्यांत दिसता. तीच उतरावळ ताच्या निर्मणीतूय दिसता. तीच मागीर भौसाच्या जिबेर घोळटा. हेंच लोकसाहित्य मौखिक रुपांत एके पिळगेकडल्यान दुसरे पिळगेमेरेन पावता.

आदल्या तेंपार उमाणीं, काणयो हेंच भुरग्यांच्या मनरिजवणीचे साधन आशिल्ले. तिळसांजच्या वेळार घरचीं जाणटेलीं भुरग्यांचो वेळ पासार जावंचो तशेंच तांका सरभोवतणच्या वाठाराची वळख घडची ह्या हेतून तांका उमाणीं घालतालीं. फकत भुरग्यांकूच म्हणूंक येवंचेना, जाणट्यांकूय ह्या उमाण्यांच्यो जापो सोदपाक मजा येताली.

आतां म्हजेच विशी सांगचे जाल्यार म्हाका ह्या उमाण्यांच्यो जापो सोदपाक खूब आवडटात. अजुनूय फेसबुकार बी कोणेय उमाणे घालें आनी ताची जाप फाल्यां सांगता म्हणलें जाल्यार ती जाप मेळसर म्हाका सुख लागना. भुरगेपणांतल्यान आजयेकडल्यान, बापोल आजयेकडल्यान आनी हेरांकडल्यान आयकल्ली उमाणीं म्हाका अजून याद आसात. ते शिवाय उमाण्यांच्यो जापो जाणून घेवपाक खाजयल्ली तकली अजुनूय याद आसा.

गोंयांत पिकपी फळफळावळ ह्या उमाण्यांनी मुखेलपणान दिसता. हीं उमाणीं घालपा फाटलो जाणटेल्यांचो एक उद्देश आसूंये. जापो सोदतल्यांक त्या फळांचे खाशेलेंपण आपसूकच कळटा. तांचो रंग, आकार, रुच हाच्या रसायणांतल्यान तें उमाणें जल्मल्लें आसता. मुद्दम पळयात आमी जर अनस हें फळूच घेतलें जाल्यार ताचेर रचिल्लीं खूब उमाणीं मेळतात.

झाडार फळ
फळार झाड

हाची जाप कोणाक कळचीना अशें जावंचेना. आनीकूय एक आसा तें हांवें भुरगेंपणांत आयकूंक नाशिल्लें.

इनसा बायले तिनशें दोळे
फट दिसता जाल्यार वचून पळे

अनसाक दोळे आसतात हें खबर आशिल्ल्याक उमाण्याची जाप रोखडीच येतली. म्हजी आजी अनसावेलें आनीक एक उमाणे घालताली. तें हांवें आनी कोणाकडल्यान आयकूंक ना. तें अशें:

घागरो चिटाचो
शेंडो भुताचो

आतां हाची जाप जाणा जावपाक 'चिट' म्हळ्यार कितें तें पयलीं खबर आसचें पडटलें. आदल्या तेंपार चिट म्हणून दाटसो सुती कपडो मेळटालो. आंगार कचकचीत गाड रंगाचो प्रिंट आसतालो. फुलांफुलां, चौकोट वा आनी कितेंय. त्या कपड्याच्यो चलयो चडश्यो सायो वा घागरे बी घालतालीं. हांवेंय सामके ल्हान आसतना चिटाच्या कपड्याचे व्हिस्तीद बी घाल्यात. ह्या उमाण्याची जाप सोदतना चिट म्हळ्यार कपड्याचो एक प्रकार तें समजतालें.

जांबाळाचेरुय एक उमाणे आसा. 'एका झाडाक कोळशेच कोळशे.' अशेंच एक उमाणे चिचेचेरुय आसा. 'एका झाडाक कोयतुलांच कोयतुलां' अशें. आनीक एक चिंचेवयले उमाणो हांवें हालीच आयकलें.

मळबार हुमकळता
थोरु नाशिल्लो कोयतो

थोरु म्हळ्यार मूठ.

पणस तर गोंयकाराक सामको आवडीचो. तो तर आमच्या खाणां जेवणांत सुशेल, चाखो, घरय, धोणस, पायस, मुळकां, भाकरी, पातोळ्यो अश्या तरेकवार रुपांत दिश्टी पडटा. मागीर ताचेर तर उमाणीं आसुंकूच जाय.

घमघमाटो विखांचो काटो
भांगराच्या देवळांत, रुप्याच्यो घांटो

हें जाले एक. दुसरें आनी एक आसा.

बापूय खरखरीत
आवय सुळसुळीत
भुरगीं बुळबुळीत

नाल्लाबगर तर आमका उंडी वचना. हुमण, कडी जायच. तेखातीर नाल्लाचेर रचिल्ली बरींच उमाणी दिसतात. कल्पवृक्षाक मान दिवपाक नाका तर?

खडपांत खडप
खडपां भितर राणी
राणये भितर पाणी

दुसरें, तीन दोळे शंकर न्हय

माथ्यार जटा, साधू न्हय
झाडार रावता, सवणें न्हय
उदक आसा, बांय न्हय

तिसरें,

अंतराळांतल्यान पडली घोण
व्हड कोयतो घेवन फोड
रगत तिचे पी गोड

हीं जाली सर्वसादारण उमाणीं, नाल्लाचेर आदारीत अशी. दर्यादिगेवेले माड वाऱ्यान हालतात. चुडटां तर धालो खेळटात आनी हेंच खाशेलेपण घेवन उमाणे येता.

हालतो धोलतो पाय
आंदरी बोंदरी मांय
आडकुलीं बुडकलीं भुरगीं

हळदीच्या पानांतल्यो पातोळ्यो आमी घोस्तान खातात, मागीर त्या हळदी पानांक मान दिवपाक नाका तर! तिचेरुय उमाणें

इल्लीशी सुरी
मातयेंत पुरी

हळदीची भयण आलें, ती कशी फाटीं रावतली. तिचेरुय घडटा उमाणें. तिवूय रिगता उमाण्यांत

हाय हूय, मातये भितर

हळदीवेली आनी आल्यावेलीं उमाणीं पळोवन कणगां रोवपी कसो फाटी रावतलो? ताणेय घडयलीं उमाणीं कणगांचेर. पूण जापो मात कठीण श्यो. शेताकडेन संबंदीत आशिल्ल्यांकूच कळपाच्यो.

रेडो लिपला मातयेंत
दावें भोवता शेतांत

दुसरेंय एक आसा,

नेणार खबर नासतना वयल्यान चलता
जाणार खणून खाता

असलेंच एक उमाणें दुदयाचेरुय आसा

पाडो बसला
दावें चरता

केळ्याचेरुय एक आसा

न्हेशिल्लें काडून भायर उडयता

पयलींच्या तेंपार तांब्याची, पितळेची, मातयेची, फातराची तरेकवार आयदनां वापरताली. भुरग्यांक तांची वळख जावंची म्हणून तांचेरुय उमाणीं घडयताली. तेखातीर त्या वस्तूचे नांव भुरग्यांक सदांखातीर याद उरतालें. हीं उमाणीं म्हळ्यार कवनां कशीं. तांका एक लय आसा, नाद आसा. मुजरत पळयता दात्यावयलीं हीं उमाणीं पळयात.

पोटार पोट
बुराकांत बोट

आनीक एक दुसरें उमाणें

गाय धांवता
दूद ओतता

शिरवळयो तर गोंयचो खाशेलो जिनस. सणा परबेक, फेस्ताक करपाचो. ह्यो शिरवळयो करपाचो एक पितुळचो वा लाकडाचो शेवगो आसता. ताचेरुय उमाणें आसा.

वांकडी तिकडी पोपाय दाणी
बोकडी हागता, देड हाणी

पयलीं दार बंद करपाक लाकडाचे आडामें आसताले. वण्टींत भितर आसतले. बुराकांतल्यान मूठ धरून ओडून दुसरे वटेन बुराकांत घालतालीं. मात्शें मिश्किल शैलीतलें हें उमाणे.

आका भोकांतल्यान काका भोकांत
काका भोकांतल्यान आका भोकांत

आडाम्यावयले दुसरें उमाणें

एक सोरोप एका बुराकांतल्यान वता
आनी दुसऱ्या बुराकांत वचून न्हिदता

सात्रीवयले उमाणें पळयात. जुस्ताक जुस्त. मुदयेर थीक कशीं उतरां

सकाळीं उठटा, घर भोवता
आनी कोनश्याक बसता

रात्रींतलो इंगळो, ताचेरुय उमाणे. अल्पाक्षरी.

गोबरांत लोळटा, उदकांत मरता.

भुरगेपणांत आजी एक उमाणें घालताली.

माळयेर माळी, उप्पर माळी
तातूंत बसल्या भांगरा चली

ह्या उमाण्याची जाप हातो हात्याचो घमघम आसा उतरां उतरांक. पूण भांगरा चली हें ह्या उमाण्यांतले मूळ उतर न्हय. आमका भुरग्यांक ती तें उमाणें तशें घालताली. खरीं उतरां... तांतूत बसल्या 'सोन चेडी'. हें म्हाका खूब उसरां कळ्ळें.

हीं उमाणीं रचणाऱ्यांची खरेंच तोखणाय दिसता. यमक जुळोवप. सुटसुटीत, मिरमिरीत उतरांनी प्रस्न घालप. जिणेचे सदचे अणभव पद्मय उतरांनी पितारप. हेंच आमच्या उमाण्यांचे खाशेलेंपण.

सूय आनी सूत हांचेबगर घर ना. म्हाका दिसता आमची चडांत चड उमाणी ह्या सूय-सूताचेर मेळतात. मुजरत पळयात.

येदोसो पोर
हातभर काश्टी मारता
बोटभर बायलेक
वांवभर न्हेसण

आसळ मासळ करुन निट्ट केले
थुंकी लावन भितर घाले
अचकट नारी
आपले आंत फोडून व्हरी

येदेशें चेडूं
व्हडलो पदर न्हेसता

मनश्याची सावली मनश्याची फाट सोडीना. मागीर उमाणीं तरी सावलेक कशीं सोडटली. तर मनीस म्हणटा,

म्हज्या रेड्याक हांवें शेतांत व्हेलो
पुण तो म्हज्या सांगतान घरा परतो आयलो

परतोय मनीस म्हणटा,

हांव पडल्यार पडटा
हांव उठल्यार उठता
काळखांत मात, म्हज्या भितर रिगता

सावळेवयलें तिसरें उमाणे:

खिळो ना, गांच ना
वणटीर हुमकळटा

सावळी ह्या एकाच विशयावयल्या उमाण्यांत कितली विविधता ती पळयात. अशीच विविधता आमका मनशांच्या कूडीच्या भागांचेर रचिल्ल्या उमाण्यांतूय दिसता. जिबेवयलीं कांय उमाणी तर आयकतल्यांच्या तोंडार हांसो केळयता. देखीक,

आकड पाकड तांब्या भाण
बत्तीस रुखांक एकूच पान

आनीक एक उमाणें जिबेवयले

बिळांतल्या सोरपाक बत्तीस पारेकार

एका उमाण्यांत तर जिबेक रांदपीण केल्या

रांदपीण न्हिदल्या, धनी लाकूड फोडटा

तशेंच एक कानावयले उमाणें.

हेवटेन पळयल्यार दिसना
तेवटेन पळयल्यार दिसना
सगळ्यो गजाली कळयता
तरी खंय आसा कळना.

ह्याच अर्थाचे कानावयले दुसरे उमाणे

हात लायल्यार आसा
पळोवंक गेल्यार ना

नाकाचेर उमाणे,

गिमांतूय व्हांवता, पावसांतूय व्हांवता

तोंडाचेरुय उमाणे,

तुवें उगडले, हांवे पळयलें

दोळ्यांचेरुय उमाणें, केसांचेरुय उमाणे, केसांतल्या उयांचेर तर कितलीशीच उमाणीं आसात. नाकांतल्या शेंबडाचेर लेगीत उमाणी रचल्यात.

नाक नायकाली चली, हात नायकागेर दिली
हात नायकान तिका वण्टीर काडून मारली

आनीक एक आसा उमाणे

आलगोताची धूव, फालगोतागेर दिली
वण्टीर मारुन पितूळ जाली

आदल्या तेंपार घराभायर पोरसां आसताली. पोरसांक वोट्ट अशेंय म्हणटाली. पोरसांत बांय आसतालीच. वोट्टांतल्या बांयचेरुय एक उमाणे.

वोट्टांतली उबी म्हातारी
तोंड मळबाक उबारी

कुलपाचेर पळयात एक सुपुलें उमाणे,

एक सुकणें, घर राखणें

उमाण्यांनी लय हाडपाक नाद आशिल्ली उतरां चड प्रमाणांत दिसतात. तसो ह्या उतरांक वेगळो असो अर्थ नासता. पूण उतरांक एक ठेको आसता. म्हों‌वा मुसांच्या माल्यावेले एक उमाणे आजी घालताली,

आर्तुगाला, पोर्तुगाला, भेंडयेच्या घोलां,
तिनशें लोक आसतना गोठो चोरुन व्हेलां.

हें आर्तुगाला पोर्तुगाला आमचेखातीर उमाण्यांचे समानार्थी जाल्ले. उमाणीं घाल म्हणचे वाटप्याचे हांव आर्तुगाला पोर्तुगाला घाल म्हणटाले.

अळमें हें गोंयकारांच्या रुचीचें गोंयकार अळम्याच्या पावसाची वाट पळयत आसता. अळम्याचो पावस झडलो रे झडलो, आतां अळमी येतलीं म्हणून उलोवप सुरु जाता... आनी खऱ्यांनीच अळमी येतात. घमघमीत सांबाराचे तोंडाक खावन गोंयकार धादोशी जाता. अळम्यावयलो ताचो होच मोग उमाण्यांनीय दिश्टी पडटा. अळम्याचेर रचिल्लीं खूब उमाणी मेळटात. हें तातूंतलेच एक.

इल्ली इल्ली बोरां
दोंगरार घरां
सांबारकारां

आनीक एक उमाणें अळम्याच्या रुपाक सोबसारकें,

पाताळांतल्यान आयलो गोपी
एक पांय, एक तोपी

म्हाका याद जाता हांव बारा-तेरा वर्सांचे आसतना म्हजें बापोलआज्जेन मावशीबायन म्हाका एक अळम्यांवेले उमाणे घाल्ले. सोप्पे उमाणें. हांवे रोखडीच ताची जाप अळमें अशी दिली. ह्या जापेक धरुन तिणे म्हाका आनीक एक उमाणें घाले. म्हाका बरोबरशी दिसता ती जाप हांवें दिली. तिणे मागीर म्हाका आनीक एक उमाणें घाले. ही उमाण्याची गांथन फुडें वचत रावली. अजून म्हाका तीं उमाणीं याद आसात. प्रस्न जापेच्या स्वरुपांतली तीं उमाणीं अशीं

एक पांय माथ्याक चेपें
अळमें
तें अळमें दिसता कळमें
हारशी
ती हारशी भूंय सरशी
सूप
तें सूप दिसता रुप
बांय
ती बांय तुजी मांय

फुडें कितें सांगप तें म्हाका कळना जालें. फाटलीं कितलीशीच वर्सां हीं उमाण्यांची गांथन म्हजे तकलेंत आशिल्ली. म्हाका दिशिल्लें हो उमाण्यांचो प्रस्न जापेचो खेळ उत्स्फूर्त असो तेच वेळार घडिल्लो आसतलो. पूण अशीं उमाण्यांची गांथन खूब कडेन घडटाली जावंये. ताचे कारण म्हळ्यार हालीच हांवें एका फेसबुक ग्रूपाचेर अशीच उमाण्यांची गांथन पोस्ट केल्ली पळयली. तें पळोवन म्हाका खूब खोस जाली. तांचोय संवाद असोच आमचे भशेन अळम्याच्याच उमाण्यांतल्यानूच सुरु जाल्लो. तर त्यो प्रस्न - जापो अश्यो,

भोकांत दांडो
झिलांत उबो
अळमें
तेंच अळमें, दाखयता सोणमें
हारसो
तोच हारसो, संवसार पारसो
कुपां
तीच कुपां, गळयतात दुकां
पावस

आतां असल्या काव्यमय उमाण्यांची गांथन गुंथून म्हाका येवजुपाक लावपी म्हज्यो आज्यो नात. पूण आमच्या पिळगेकडेन हेवटेन तेवटेन हीं उमाणीं शिंपडलेली आसतलीं. आता हो म्हालवज पुस्तकाच्या रुपांत एकठांय येवपाक जाय.

संपर्क: 9850530152

***



# अपेक्षा

**रजनी भेंब्रे**

# कथा

घरा मुखावेल्या आंब्याकडेन नदर लावन शांता चित्तालें – आज हांव भुरग्यां कडल्यान कसली अपेक्षा करुं? जिवितभर हांव चुकलें. फुडाराचें हांवे चितलें ना. म्हाका हांवें बदलून घेतलेंना. आनी आज — ?

शांताचे भुरगेपण गांवगिरे वाठारांत गेल्ल्यान ताका झाडा–पेडाचीं खूब आवड आशिल्ली. ताचे घराचे आशिकुशीक फुलांचे मळे दिसयभर फुलिल्ले आसताले. जायांचे तेंपार जायो, मोगऱ्यांच्या तेंपार मोगरीं, चाफीं, सुरंगा आपआपल्या वेळार फुलतालीं. दिवाळी लागीं पावली म्हण्टकच आबोलीं, रोझांचे मळे फुलताले.

शीं पडपाक सुरु जालें म्हण्टकच काजू, आंबे, पणस चवंरताले. चिकू, पेरां, जाम, अनसा, सिताफळांय धरतालीं. केळीं तर सदा सर्वकाळ. अश्या वातावरणांत शांतांचे भुरगेपण गेल्लें.

शांताचो वाठार गांवगिरो आसलो आनी हालींच तांच्या वाठारांत चार प्रकल्प उबे जाताले आनी तें पासत गांवातल्या चले-चलयांक रोजगाराच्यो संदी उपलब्द जाल्ल्यो. गांवा भायलो उच्चशिक्षित तरनाटे ह्या प्रकल्पांचेर रुजू जाल्ले. हांगा येवपी भुरग्यांक हो वाठार शारा पसून पयस जातालो तशें रावपाची व्यवस्था जायत्या प्रमाणात जाय नासली.

एक दीस शांताचो बाबा आपले कामा पासत एका प्रकल्पांत गेल्ले कडेन येतना एका तरणाट्याक घेवून आयलो. शांता आनी शांताची आवय त्या तरनाट्या कडेन पळयतच उरलीं. गोरो पान, रुपेस्त आनी तेजस्वी. बाबाक रोखडेंच लक्षांत आयलें की शांता आनी आवय त्या अनवळखी तरनाट्याक पळोवन अजापित जाल्यांत.

बाबान सांगपाक सुरवात केली – आज हांव म्हजें एक काम घेवून प्रकल्पांत वतलो म्हण तुमकां सांगिल्ले पळय. थंय अचकित ह्या तरनाट्याकडेन वळख जाली आनी समजलें की तो इंजिनियर आनी थंय काम करता. म्हजें काम ताणें जे तरेन हाताळ्ळें ताचे वयल्यान ताची हुशारी म्हाका समजली. जसो तो हुशार आसलो तसोच तो स्वावलंबीय बी आसा म्हण ताचेकडेन उलयतना कळ्ळें. कंपनीत येतना तो स्वता तयार केल्ले टिफिन घेवन येता. ताका खूप पयसुल्ल्यान यो-वच करचें पडटा. कारण अजून कंपनीन तांची रावपाची सोय करुं ना. म्हाका जेन्ना ताची अडचण कळ्ळी तेन्ना ताका हांवे म्हळें, "तुका पसंत आसत तर म्हगेर तुका रावपाक हरकत ना. तुका रावपाक म्हगेर सुवात आसा. हरवें सोदिल्ल्याक पिकेंच मेळ्ळें तशें ताजे जालें. आनी सोमतोच तो सुवात पळोवपाक म्हजे बरोबर आयलो. तांचे नांव आनंद. खरें सांगू ताका पळयतकच म्हाका आनंद जालो.

अशे तरेन आनंद शांतागेर पावलो. ताचो नित्य क्रम थारिल्लोच आसलो. ताची सकाळ पांचाक उजवाडटाली. थोडी पासय, मागीर योगा, न्हावप, नाश्टा, टिफिन करुन आपली स्कुटर घेवून कामार वचप. तिनसांजे घरा येतकच च्या-पाणी आनी रातचें जेवण. चड करुन चपाती-भाजी.

शांता गांवांतल्या स्कूलांतले एस.एस.सी. मेरेनचे शिकप करून तें घराच आसतालें. एकलेंच लाडूबाय आशिल्ल्यान खावप-जेवप आनी इश्टिणी बरोबर वेळ पासार करप. कसलेंय काम करपाची संवय नासली आनी आवडय नासली. आवयन कितेंय काम सांगल्यार अळम टळम करप. खुशाल चेंडू वरी जीव सारप.

आनंद शांत सभावाचो. आपले शिक्षणाचो ताका इल्लो लेगीत गर्व नासलो. आपल्या मनमिळावू स्वभावान ताणें शांताच्या आवय-बापायच्या मनांत केन्नाच सुवात मेळयली. तीं ताका आपले पुतावरी वागोंवक लागलीं.



ताकां दिसूं लागलें आपलें शांताक हो योग्य भुरगो. आमी ताकाच जावंय करचो आनी शांताची जीण सुखी करची. आपसूक आमच्या घरा आयिल्लो भुरगो वगडावप ना.

आनंदाक शांताच्या घरांत मोग-माया भरपूर मेळ्ळी. उज्याच्या म्हऱ्यात लोणी दवरतकच लोणी आपसूक वितळटा तशें आनंद आनी शांताचे जालें. हळूहळू दोगांय लागीं आयलीं. आनंदाक शांता जायशें

दिसूं लागलें आनी दोगांय एकामेकांच्या मोगांत पडलीं. दोगांय मदीं फरक इतलोच आनंद स्वावलंबी आनी शांता आळशी. ताका कसल्याच कामाची आवड म्हण्टात ती नासली. शांताची जीण ऐषआरामांत गेल्ली. पूण आनंदाक दिसलें, लग्न जातकच आपूण ताका सुधारतलों.

आनंदाची जीण स्वावलंबी जावपाचें कारण म्हळ्यार ताची आवय-बापूय ल्हानपणांतच हो संवसार सोडून गेल्लीं आनी ताका काकाकाकीन ल्हानाचो व्हड केल्लो. स्वताचे हिमतीचेर तो इंजिनियर जाल्लो आनी शिर्विसेक लागिल्लो.

असो सर्वसंपन्न भुरग्याक शांता खातीर ताचे आवय बापायन आपणायलो आनी शांताचो जोडीदार जालो.

जेन्ना लग्न जावन शांता आनंदाच्या घरा पावले तेन्ना ताणे आनंदाक सांगून आब्यांचो रोपो आपल्या पोरसांत लावपाक लायलो.

दिसा माशीं आब्यांचो रोपो व्हड जातालो तशींच शांताचे कुसव्यांतल्यान भुरगीं जल्माक येतालीं. आनंदाची ताची सद्दचीच संवय चालूच आसली. सकाळचो भायर सरतना आपलें टिफिन आपूणच करतालो आनी बायल भुरग्यांखातीरय जेवण तयार करतालो. नाश्ताय रेडी आसतालो. दोन भुरगीं पूण शांताक भुरग्यांचे जेवण-खाणांचें केन्ना लागलेंच ना.

तशें घरांतलें सगळें काम करपाक कामेरी आसतालें - कपडे उमळप, सात्र-कोयर, घर पुसप आनी बारीक सारीक बाकीचीं कामां कामेरी करतालें. अशेतरेन शांता आनी भुरगीं सुखी जीण जियेतालीं. आपले आवयचे घरा ताणें केन्नाच कसलेंच काम करुं नासलें आनी आतां आनंदाच्या घराय ताका विशेश अशे कश्ट करचे पडनासलें.

भुरगीं ल्हान आसासर बरें चल्लें. जेन्ना भुरगीं व्हड जावपाक लागलीं तेन्ना तांच्यो गरजो वाडपाक लागल्यो. तेन्ना शांताक घराचें काम, भुरग्यांचे जेवण खाण ह्या कामाचो ताण पडूं लागलो. भुरगीं ल्हान आसा सर 'तितलें मेमें तितलो कोको' अशें आसलें. जेन्ना भुरगीं शाळेंत, स्कूलांत वचूं लागलीं तेन्ना तें सैर भैर जावपाक लागलें. ताका काम जायना जालें.

सुखी घराब्यांत आतां वादाची कीट पडूं लागली. वाद वाडूंक लागले. भुरग्यांच्यो जेवणा खाणाच्यो तरा, रुची वाडपाक लागल्यो ज्यो रुची शांता भागोवंक शकना जालें. मुळांतच कामाची संवय नाशिल्ल्यान कसलेंय काम ताका जड वचूंक लागलें. दिसपट्टे चड चडच वाद वाडूंक लागले. भुरग्यांहुजीर वादाची पातळी इल्ली इल्ली झगड्यांचेर पावूंक लागली. आजून भुरगीं स्कूलांतच वतालीं पूण ताचें व्यवस्थीत व्यवस्था शांता करूंक शकना जालें. ताका दर गजालींचो भार कसो दिसूं लागलो. दीसपट्टे झगडीं जातात तीं पळोवन भुरगीं कावरीं-बावरीं जावपाक लागलीं. निमणें आनंदान आपल्या दोनूय भुरग्यांक हॉस्टेलांत दवरपाचो निर्णय घेतलो. पूण शांतान नाका लेगीत म्हणले ना.

भुरगीं हॉस्टेलांत वतकच शांता मेकळें - मेकळें जालें. सदचे वरी आनंद आपलें टिफिन व्हरतनाच शांताक जेवण दवरुन वतालो. भुरग्यांक ल्हान व्हड करचे बदला तांकां आनंदान हॉस्टेलांत दवरली म्हूण शांताक ना चिंता ना खंत भोगली ना. आनंद मात खंती जालो. तो तांची बरेतरेन वासपूस घेतालो.

वर्सां वतालीं. भुरगीं बरे तरेन शिकप करतालीं. शिक्षण पुराय जातकच शिर्विसेक लागून तीं भायरच उरलीं. केन्नाय थोडे दीस सुटयेंत येवून वतालीं तितलींच. भुरग्यांक आवयची मात लेगीत माया नासली. कारण आवय आसून लेगीत तांकां आपलें भुरगेपण हॉस्टेलांत काडचें पडिल्लें. तांचो सगळो मोग बापायचेर आसलो. कारण ताणें आपलें कर्तव्य बरे तरेन केल्लें. उपाय नासून म्हण्टा तशें तांकां हॉस्टेलांत दवरिल्लीं.

आनंदाक याद जाता. जेन्ना ताचे आनी शांताचे वाद जाताले तेन्ना रागान तो म्हणटालो – तुज्यान भुरग्यांची जबाबदारी घेंवक जायना मगो तेन्ना हांव तांकां हॉस्टेलांत दवरतां तेन्ना शांतान म्हणप - दवर दवर,बरे तरेन दवर. भुरगीं कित्यें म्हजींच न्ही, त्रास आमी दोगांयनीय काडूं जाय. दवरतां हॉस्टेलांत दवर.

भुरग्यांक हॉस्टेलांत दवरतना आनंदाक भौव दुःख भोगलें पूण न्हय शांताक. आवयचे काळीजच नाशिल्लेवरी शांता वागले.

धुवेन आनी पुतान आपआपले पसंतीन लग्नां केलीं. आनी ताणीं आपआपलें संसार थाटले. प्रत्येक वेळार ताणीं आनंदाक मान दिवून तांचो विचार मतींत घेवूनच फुडलें पावल मारलें. आवयची माया काळजांत नासली तरी लग्न समारंभात धुवेन आनी पुतान आवयक दिवपाचो यजमानपणाचो मान दिलो. तिचे आशिर्वाद घेतले. पूण हें सगळें वयलेचाराक. मनापसून न्ही.

सद्दांच आपले भुरग्यांचेर आवयची माया चड आसता पुण हांगा बापायन आनंदान भुरग्यांक भरभरुन माया, मोग दिलो. तांचे करियर घडोवाक सर्वतोपरी आदार दिलो. आनंदाचीय पिराय वाडटाली पूण आवयची आनी बापायची एकत्रित माया ताणें आपले भुरग्यांक दिली. हें करतना ताणें आपले भलायकेकडेन फाव तशें लक्ष दिलेंना. आपलें कर्तव्य पुराय करपाकच ताणे जीण झरयली. आता आनंद रिटायर्ड जाल्लो तरी लेगीत तो आपल्या कामांत व्यस्त आसतालो. ताणे लागींच दुसरी शिर्विस धरिल्ली. सदचेवरी आपलें टिफीन भरून तो उरिल्ले जेवण शांताक दवरून शिर्विसेक वतालो. ताचे कामांत खंड पडूं नासलो. आपलो घरकार रिटायर्ड जावन लेगीत काम करता आनी आपली सेवा करता हांचे शांताक पडूनच वचूं नासलें.

सदांच आनंद चित्तालो आपले भुरगेपण आवय-बापाय विणें गेलें. काका-काकी आपले आवय-बापूय जाले आनी आपलीं भुरगीं आवय-बापूय आसून लेगीत हॉस्टेलांत ल्हान-व्हड जालीं. लग्न जावंचे पयलीं ताका शांताचो सभाव खबर आसलो. ताका दिशिल्लें की आपूण ताचो सभाव बदलपाक शकतलों. वा भुरगीं जालीं म्हण्टकूच शांताच्या सभावांत नक्की बदल जातलो. पूण आनंदाचो तर्क फट थारलो. शांताच्या सभावांत इल्ले लेगीत परिवर्तन जालें ना.

आनंद सदांच आपले धूव-पुताचे संसाराच्या चितनेंत आसतालो. एक दीस दीस उजवाडलो तरी आनंद उठलोच ना. शांता म्हऱ्यांत वच जाल्यार ताची प्राणज्योत पालवल्या. शांताचेर ब्रम्हांड कोसळलें. तें खोलसू खोलसून आकांतान रडूंक लागलें. आजवेर तें आनंदाच्या नाड्यार खुशालचेंडू कशें जियेलें. कुसव्यांत जल्मल्ल्या भुरग्यांक आपले सुखा मुखार पयस केल्लीं. आतां खंयचे कडेन कांय ना. आतां आपलें कशें जातलें म्हूण हड्डें बडोवन रडपाक लागलें.

बापायची वायट खबर कळटकच धुव-पूत-सून - जांवय सगळीं आकांतान आनंदागेर पावलीं. सगळ्यो विधी जायसर रावलीं. आतां फुडें कितें? धूव-पुताक आवयन केन्नाच माया दिली ना. समज येत सावन तीं हॉस्टेलांत ल्हान-व्हड जालीं. आज भुरग्यांच्या मुखार

(पान २० चेर)



# सांगाती

**रुपा केणी**

''आयकलां!'' वांयतेकान्नीन पप्पा वांयतेकाराक म्हळें, 'येदोळ आमगेर बाबु आनी भाभी आयिल्लीं. हरिताखातीर एक भुरगो सुचयला ताणीं. हें आयकना फुडें वांयतेकार बायले म्हऱ्यांत येवन कान दिवन आयकुपाक लागलो.

''तुमी धाटू मुरगांवकाराक वळखतात फामाद भाटकार तो, त्या धाटूबाबालो पूत गोविंद, तो बिझनेसमॅन, ताजो पूत मोहर मुरगांवकार, तो लग्नाचो आसा खंय.'' ''अशेंऽऽ! किदें करतो तो? शिकप बी?'' वांयतेकारान उमळशिकेन विचारलें, ''चल्यान एमबीए केल्या, तेत्तीस वर्सांचो आसा. बापायचो बिझनेस पळयता. खूब वाडयला खंय ताणे तो. उंच, स्मार्ट, दिसपाक बरो, एकलोच पूत, व्हडली भयण लग्न करुन दिल्या. आमच्या हरिताक सोबसारको आसा म्हण्टाली भाभी.''

''निर्वेसनी मगो, काय...?''

''हेंऽऽ सामको निर्वेसनी, बंगलो गाडयो सगळें सगळें आसा.'' बाबू म्हण्टालो ''हरिता सामकें सुखी जातले त्या घरांत.''

''पुण, घरचीं मनशां बी कशी तेंवूय बारीक चवकशी करुन पळोवपाक जाय.'' मातशें चिंतून, दुबावानशे वांयतेकारान म्हळें.

''मनशां सामकी भांगर, भाभी सामकी थुळेताली ताका. तिज्या भयणींच्या नण्डेल्या जावेचो आतेभाव खंय गोविंद.''

''म्हज्या भावाक आनी भावजेक हांव बरो वळखता तुज्यापरस. तांका भुरकुटून वचपाक वेळ लागना.'' पुराय जीणेचो प्रस्न हो. सारकी खबर काडपाक जाय तांचेर पातयेवन जाता?'' पप्पा वांयतेकार आतां खरोच सिरियस जाल्लो.

''सोयरीकांच्या बाबतीत मगो केन्नाच घाळ रावनाका. जायना सुचोवं मागीर ती कोणेय, किदें?'' ताणे फुडें म्हळें.

''हरिताक पयलीं विचारपाक जाय. सोयरीक व्हरुं काय नाका? ताणे पाकळी झडयल्यार इफॉर्मसांव काडपाचे, ताचें आनी वेगळेंच, विचारिल्ल्या खेपे नानाकार, कितले बरे, बरे भुरगे दाखयिल्ले ताका.'' बेजारुन मम्मा वांयतेकार उलयली.

''किदें करपाचे तूंच सांग गोमटेक धरुन उबें करपाचें? आजकालची भूरगीं तीं आयकूंक आयल्यांत? आमी नाखयां पडटलीं.'' पप्पा वांयतेकार उबगलो.

''आतां नाका, मागीर नाका करतां पोर तिसांक तेंकले.'' मम्मा वांयतेकान्न.

'जो मेरेन तें तयार जायना तो मेरेन आमी कांयच करपाक शकना हें घट्ट मतीत दवर.'' पप्पा वांयतेकारान मम्मा वांयतेकान्नीक शिटकायली.

''जाणां हांव...'' ती कितेंतरी फुडें उलोवपाक वताली इतल्यांत हरिता भितर सरलें. आयज ताज्या तोंडावयल्यान खोस सामकी वोत्ताली. ''डॅडी-मम्मा म्हाका प्रोमोशन मेळ्ळें. पगारुय भरपूर वाडला. लेटस् सेलेब्रेट. आयज जेवपाक भायर वचूंया. वाटेर बुनूआतीक घेवया. हांवे कळयलां तिका. रातची आमगेर रावतली ती.'' ''चला चला बेगीन तयार जायात.'' अशें म्हणून तांका परबी लेगीत दिवपाची फुरसत दिनासतना तें धबधब करुन माळयेर आपल्या कुडींत गेले. ह्या खोशयेच्या समयार ताका सोयरीकेची खबर सांगुया काय प्रोमोशन आनी वाडिल्ल्या अधिकारान ते आपली सुचोवणी भायरायत अशा पेंचात ताजी आवयबापूय पडिल्ली. पूण फुडलें फुडें म्हणून तीं तयार जावपाक गेली.

बुनुआतीक आपोवपाचें कारण म्हणजे ती हरिताची आत्या आनी ताजी घट इश्टीण. गाडयेन बसच्या पयलीं वांयतेकार जोडप्यान धुवेक प्रमोशनाची परबीं दिलीं. बुनूआतीक घेवन मागीर हरिता एका बऱ्याश्या रेस्टॉरंटात तांच्या वांगडा गेलें. थंय बरेंऽऽ रुचीक जेवण सगळ्यांनी घेतलें. वाटेर वतना वांयतेकान्नीन सोयरीकेचो विशय काडलो. मात हरितान रागान तिका सद्या आपणाक लग्न करपाचें ना आनी आपल्या बऱ्या खोशयेच्या मुडाची वाट लावनाका म्हण ताकीदूय दिली. ती निर्शेवन ओगी पडली. बुनुआतीक भावा कडल्यान ताज्या नानाकाराची सुलूस लागिल्ली. पूण ताजे फाटलें कारण सोदपाचीय तितलीच उमळशीक लागिल्ली. ती संद आता चलून तिच्या मुखार आयिल्ली. ताज्या कलान घेवपाचें आनी प्रस्न सुटावो करपाक मेळटा जाल्यार करपाचें अशें तिणे थारायलें. तीं घरा पावली तेन्ना हरिता आवयेचेर रागार आसलें. बुनुआतीक घेवन ते तडक आपल्या कुडींत आयलें. ''पळयलें मगे कशी फाटल्यान लागल्या ती. हिचण कशी, संद मेळटा तेन्ना फकत लग्न आनी लग्न, डॅडीय उणो नाऽऽ आं. तोय सामील तिका.'' हरिता तिडकलें ताका थांबयत बुनुआतीन म्हळें, ''आगो, वाडील्ल्या चले–चलयांचे आवय बापुय तांच्या लग्नाचे चिंत्तलेच न्हय.''

''म्हाका लग्न करपाचें ना सद्या तरी'' हरितान म्हळें.

''पुण कित्याक? वय वाडटा तुजें म्हण तांका चिंता जाता. तुका बरी शिर्वीस आसा. तूं जोडटा. आपल्या पांयार उबें आसा मागीर अडटा खंय? सांग मगो सारकें'' बुनुआतीन मायेन विचारलें.

तिज्या म्हऱ्यांत बसत हरितान म्हळें, आती! ''आती! आती! म्हाका भंय दिसता हांव नवें नातें तिगोवन दवरपाक शकतलें काय किदें? म्हज्या आशिकुशीक हांवे अश्यो कितल्योश्योच घडणुको पळयल्यात. म्हज्या तिगां इश्टांची लग्नां जाता म्हणसर तीं वेगळीं जाल्यात.''

''आगो तांचे तशें जालें म्हणून तुजेंय तशेंच जातलें कित्यावयल्यान?'' आतीन म्हळें.

''पर्णा, ज्योतिका आनी निलेश हांका आनी तांच्या कुटुंबाक जाल्ले मानसिक त्रास हांवे

लागिच्यान पळयल्यात. तातूंतल्यान भायर येवप सोपी गजाल न्हय बुनुआती. लग्न थारतकच कितली खोशी आशिल्ली दोनुयकडचीं कुटुंबा तेंवूय पळयलां हांवें'' बुनुआती सामको कान दिवन ताचें उलोवप आयकताली. हरिता सामकें गंभीरतायेन उलयतालें. हरशींय म्हण ते खंयचेय गजालीचेर खोलायेन विचार करपी तरणाटी आसलें. शिकिल्लें, हुशार, स्मार्ट, आकर्षक अशें चली. कोणेय पळयल्यार पसंत पडपाचें अशें.

ताजे फुडलें उलोवप आयकुपाची बुनुआतीक खरीच उत्सूकताय लागिल्ली.

''हीं तिगांय जाणां सामकीं वेल क्वालीफायड, स्मार्ट, गडगंज पगाराच्यो नोकऱ्यो करपी, निलेश तर सामको स्कॉलर, असफलताय म्हण्टात ती जिणेंत तांका केन्नाच आफडूंक लेगीत ना. मागीर तांचे अशें कित्याक जावंचे आती? तुटून पडिल्ल्यावरी कित्याक गत जावंची तांची? हें सगळें पळोवन म्हाकाच म्हजो दुबाव येवपाक लागला. नवें नातें तिगोवन दवरपाची तांक आमच्या, तरणाट्यांच्या भितर आसा काय नां? किदें करुं हांव बुनुआती तुंच सांग.''

अशें म्हणून ताणे बुनुआतीकडेन पळयलें. ताज्या सोबीत मुखामळार चिंतेचे सांवट पडिल्लें. बुनुआतीक ताजी काकुट आयली. भोंवतणच्या घडणुकांचो ताज्या मनाचेर परिणाम जाला. ताजो आत्मविश्वास गेला. नवें नातें जोडपाक तें भियेता. लग्नाखातीर ताजेर चेंपण हाडपाक जायना म्हणपाचें तिका होल्मले. हांगा कोणाचेंच चुकूं नासलें पुण ह्या विशयाचेर हुलुहुलू करीनासतना थंडसाणीन आनी समजिकायेन पावलां उखलपाची गरज आसली.

''तूं आठ दिसाखातीर म्हगेर यो पळोवया. मागीर आमी दोगांय मेळून हाजेर मार्ग काडूक जाता जाल्यार पळोवंया. तू न्हिद आतां रात खूब जाली.'' अशें म्हणून बुनुआती गेस्ट रुमान न्हिदपाक गेली खरी पूण दारांत पावच्या पयलीच वाटेर तिका भाव, भावजेन आडायलें, ''किदें म्हण्टाली आमची कन्यका? ताजी हट्टीपणां दिसान दिस वाडत चल्ल्यात.'' मम्मा वांयतेंकात्र. ''हिणेच पयलीं ताका माथ्यार बसयलां. आता तें कुस्तार वता आमकां'' डॅडी वांयतेकार.

''दादा, वयनी हांव ताका आठ दिसांक आमगेर व्हरतां आनी समजायतां.'' बुनुआती.

''व्हर, व्हर आठ किद्याक पंदरा दिस दवर आनी सरळ करुन धाड'' डॅडी वांयतेकार.

'चल न्हिदूंया आमी आतां रात जाली बरीच' अशें म्हणून बुनुआतीन तांका थंयच ओगी केलीं.

त्या रातीं हरिता आनी बुनुआती सुस्त न्हिदलीं. पूण वांयतेकार जोडप्याचो दोळ्याक दोळो लागलोना.

दुसऱ्या दिसा ऑफीसांतल्यान नीट हरिता बुनुआतीगेर गेलें. मागीर एक दीस ती दोगांय तिच्या घरा लागसार आशिल्ल्या वेळेर गेलीं आनी रेंवेत बसलीं. हरितान बुनुआतीक प्रस्न केलो, ''आती! काडलो तुवें हाजेर उपाय? जिणेत येवपी मनीस कसो .... तें आमकां पयलीं कळना. पयली सगळींच जाणां बरीं कशीं दिसतात, पुण खरो रंग मागीर कळटा. आसा किदें मार्ग तें पयली कळपाक?''

बुनुआती हांसली आनी तिणे म्हळें, ''तूं पयलीं तुका सारकें वळखून घे, मागीर सगळे सोपें जातलें.''

''हें आनी कितें?'' हरितान विचारलें, सहसा बुनुआती कोणाचींच फकांडा बी करीनासली पुण ताका दुबावसो आयलो.

''हरिता स्वत:क वळखप म्हणजे आपले भितरली तांक, मर्यादा, गुण, दोश, उणाव वळखप त्याखातीर आपणेच आपलेकडेन तिरायताच्या नदरेन पळोवप. बारीकसाणेन नियाळप. खंयच्यो गजाली आपणाक खोस दितात. खंयच्यो दिनात, कित्याक लागून आपणाक निर्शेणी वा राग येता तें सोदप.''

''पुण हे सगळे किद्याखातीर?'' हरितान विचारले.

''हें इतल्याच खातीर की तुका आपुण कोणाकडेन जुळोवन घेवपाक शकतलें आणि कोणाकडेन शकचे नां हाची एक सर्वसादारण कल्पना येतली.''

''ती कशी आती?'' हरिता.

''तुका तुज्या जिणेंत, किदें खूब म्हत्वाचें दिसता. तुजे हावेस किदें, तुजी जिणेविशीं मुल्ल्यां किदें, खंयचेय गजालीकडेक पळोवपाचो तुजो दृश्टीकोन किदें? हें तुका बरेभशेन समजलें काय, समोरच्या मनशाकडेन चर्चा करुन ताचें आनी आपले विचार कितपत जुळटात हें तुका कळटलें.''

''तशें ते शे प्रतिशत जुळपाक शकतात?'' हरितान विचारलें.

''ना, हरिता, पुण फरक भूंय मळबाइतलो आसलो तर जुळोवन घेवप भोव कठीण. ही तफावत जितली उणी तितले बरें अशें म्हाका तरी दिसता.'' आतीन जाप दिली.

''म्हाका दिसता आती, दरेक मनीस खंयच्याय गजालीकडेन आपल्या दृश्टीकोनांतल्यान पळेता, संवयी, मुल्ल्यां, भावना, हावेस, सहनशक्त, बुद्धीचो पांवडो, निर्णयशक्त मनशां कणकणीं विंगडविंगड आसता. ह्या सगळ्या पांवड्याचेर जी व्यक्ती आपल्याक चडांत चड लागीं आसा ताज्याच कडेन आपलें बरें भाशेन नातें जुळपाक शकता हें कळटा. न्हय आती?'' हरितान एकदम म्हळें.

''तुजें बरोबर हरिता, पुण त्याचबरोबर दोनूय मनशांनी एकमेकांक खोस दिवपाक जाय, दुसऱ्याच्या मतांचो आदर करपाक जाय. आदार दिवपाक जाय. आपल्याक खोशी दवरपाक तो वा ती आपले मन मारना मूं हाचे विशीं सादूर आसपाक जाय.'' बुनुआतीन म्हळें. हरिता लायनीर येता तें पळोवन तिवूय खोशी जाल्ली.

''एक विसरली तूं आती'' हरिता.

''किदें तें? बुनुआतीन अजापान विचारलें.

''समजिकाय आनी विश्वास'' हरितान म्हळें.

''हय तर समजिकाय आनी विश्वास खंयच्याय नात्याची बुन्याद घटमूट करतात.'' बुनुआती.

''पुण ही चर्चा तुवें येदोळ म्हळ्या तशी करप केन्ना?'' परत हरिता दुबावान पडलें.

''तेर्म बी जावंच्या आदीं चलो आनी चलयेन घरच्यांच्या परवानगीन तीन चार फावटी

वा तांका जाय जाल्यार चड खेपो मेळून ह्या सगळ्या विशयांचेर चर्चा करपाक जाय. पुराय जीणेचो प्रस्न तो'' बुनुआतीन म्हळें.

''आनी समजा तांका दिसलें सगळ्याच बाबतीत तांच्या विचारांनी भूंय मळबाचो फरक आसा जाल्यार किदें?'' हरितान कपलाक आठयो घालून विचारलें. जाण्टेल्यांक हाजो राग येवपाक शकता अशें ताका दिसतालें. ''पळय हरिता फुडलें अरिश्ट जर टाळपाचें आसा तर मनाचें व्हडपण दाखोवन कसलोच अपमान बी म्हणून मानीनासतना, बरे भाशेन आमचें नातें जुळू शकना म्हण फाटीं सरपाचें'' बुनुआतीन सांगले. तिजो चेरो गंभीर जाल्लो. काळाच्या बरोबर आमी बदलपाक जाय. अशें तिजे ठाम मत आसलें. ''आनी जर तांचे विचार खूप लागीं येतात तर ताणी फुडें वचून तेर्म जातकर संसाराकडेन संबंदीत फुडलीं उलोवपां करप.'' बुनुआतीन म्हळें, अजुनूय तिजो चेरो गंभीर आसलो.

''ताणीं म्हणजे चलो चलयेन मगे?'' हरिता.

''हय'', बुनुआतीन म्हळें.

''लग्न शंबर टक्के सक्सेसफुल जातलें तर?' हरितान विचारलें.

''ना हरिता, ती गॅरेन्टी कोणूच दिवंक शकना. पुण एक सक्सेस टक्केवारी कळपाक शकता. खंयचेय नवें नातें पयलीं बरेभशेन जोडप मागीर तें सांबाळप, तें तिगोवन दवरप. हाका लागून तें नातें घटमूट जाता ताजी पाळांमुळा मनांत खोल रिगतात. ह्या नात्याक एक दुस्मान आसा'' बुनुआतीन म्हळें.

''खंयचो?'' हरिता.

''मनशाचो 'अहंकार.' तो नात्याक पिश्टून उडयता. अहंकारी मनशाक लागून सगळीच जाणां दुखावतात. तो मनांत वाडपाक दिवपाक जायना.'' बुनुआतीन ताका समजायत म्हळें.

हरितान बुनुआतीकडेन थीर नदरेन पळेलें आनी तिजे हात हातांत घेतले.

''थँक्स! आती'' ताणे म्हळें. म्हजे सगळें दुबाव पयस जाले. शंबर टक्के गॅरेन्टी कोणूच किद्याचीच दिवंक शकना पूण टक्केवारी वाडोवप शक्य आसा.'' अशें म्हणून तें मेकळेपणान हांसले. ताजी गाडी रुळार आयिल्ल्यान बुनुआतीय धादोसली.

संपर्क: 9822183954

***

*(पान १७ वयल्यान)*

शांता एक तिरायत बायल मनीस आसली. ना तिचेविशीं नात्याची जाणविकाय. आयज वेर शांतान आनंदाक आनी भुरग्यांक कसलेंच सुख भोगयलें ना. फकत आपलेंच सुख पळयलें. खंयचे तोणान धूव-पुताकडल्यान अपेक्षा बाळगितलें?

शांतान रोयिल्लो आंबो आयजवेर आपलीं फळां आनी आयिल्ल्या गेल्ल्यांक सावळी दिता. एक रुक लेगीत आपले कर्तव्य करता आनी हांवे कितें केलें? फुडार चितलोच ना. आंब्याच्या रुखाकडेन एक टक नदर लावून शांता दुखां गळयतालें.

संपर्क : 9822486955

***


## भारतीय संदर्भ साहित्य

# राजहंस मराठी कोंकणी सचित्र शब्दकोश




₹ 600/-
Pub No.:1622
ISBN: 978-93-90844-32-6

• 30,000 उतरां • 1037 पानां • डेमी
• उंची कागद • उत्कृश्ट छपणावळ
• हार्ड कवर • एकखंडी • सचित्र

संस्कार आनी संपादन
दामोदर केशव कामत घाणेकार

रचनाकार
अनघा विठुकृष्ण कामत, अनील व्यंकटेश सांवत, अलका सतीश असोळडेंकार, उषा जगन्नाथ कामत, किरण अरूण म्हांबरे, कुसुम हरिशकुमार अग्रवाल, जयंती नामदेव नायक, माया अनील खरंगटे, वासंती रवींद्र काकोडे, विजया नवीन शेळडेंकार, विनया राजीव शिंक्रे, सुमित्रा रवींद्र तांबा, स्मिता सुनीलचंद्र तांबा, स्वरुपा सत्यवान कुंदे




RAJHAUNS SANKALPANA PVT LTD
1-Meenakshi Bldg, Dr. Wolfango da Silva Marg, Panaji 403 001 | Ph: 2220320/2232177
E-mail: rajhaunsgoa@gmail.com
www.facebook.com/rajhauns | www.rajhauns.com



# कविते विशीं

**माधव बोरकार**



कांय कवी जीवितभर कविता बरयतात पूण ते इंचभर लेगीत वाडिल्ले दिसना. ह्या कवींची वाड कित्याक जायना असो प्रस्न पडटा. ह्या संदर्भात एके गजालीची नोंद करची अशें दिसता. सुमार पांच दसकां पयलींची गजाल. बाकीबाबाली 'हवा पावसाळी' ही कविता म्हाका खूप आवडिल्ली. आनी ती कविता हांवे म्हज्या इश्टांक वाचून दाखयली. म्हजेपरस पिरायेन व्हड आशिल्ल्या इश्टाक ती वाचून दाखयली तेन्ना ताची प्रतिक्रिया अशी जाली, ताणे म्हळें, ''तूं महाराष्ट्रांत कित्याक वचना?'' ह्या म्हज्या इश्टाचो सूर आयकुन हांव अस्वस्थ जालों. मुखार केन्नाच कवितेसंबंदान ह्या म्हज्या इश्टाकडेन उलोवप जालेंना. फाटल्या पांच दसकांत ह्या कवीन खूप कविता बरयल्यो आनी ताचे कांय कवितासंग्रह उजवाडा आयले. ताणे कांय गीतां रचलीं आनी आपूण एक म्हत्वाचो गीतकार अशें बिरुद ताणे आपणे आपल्याक लावन घेतले. कोणे आपल्याक गीतकार म्हळें म्हूण तो गीतकार जायना.

कितलोय सामान्य कवी आसलो तरी ताचे कवितेंत कवितेची एक कीट आसताच. पूण ती कीट फूंक मारुन पालोवंक दिवंक जायना. शंकर रामाण्याचे कवितेंत तांची प्रतिभा किटीरुपान आशिल्ली. पूण ती ताणी कशीच पालोवंक दिली ना. तांच्यो सुरवेच्यो कविता सामान्य पांवड्याच्यो म्हणपासारक्यो आशिल्ल्यो. दुसऱ्यांचे कवितेची छाप तांचे कवितेचेर दिसताली. अनुकरण करपांत ती रमताली. पूण आपले कवितेची ही मर्यादा तांकां जाणवन ते अस्वस्थ जाताले आनी त्यो मर्यादा हुपपाचो यत्न करताले. ताका लागून तांची कविता बदलत गेली. आशय आनी अभिव्यक्ती हे दोनूय नदरेन ती वेगळी जाली. मराठी कवितेच्या मळावेली रामाण्याली कविता ही एक आगळी वेगळी देख.

कांय कवी दुसऱ्यांची कविता वाचिनात. दुसऱ्यांची कविता वाचल्यार आपले कवितेचेर ताची सावळी पडत असो तांकां भंय दिसता, असो भंय तांकां कित्याक दिसचो? आनी एखाद्र्या श्रेष्ठ कवीचो प्रभाव पडलो जाल्यार तातूंत वायट ना. खूप फावट एक बरी कविता वाचतकच तुज्या मनांत आशिल्ले कवितेक जाग येवपाची शक्यताय आसता. तसो खूप कवींचो अणभव आसा. आमच्या नव्या कवींनी हे मतींत दवल्ल्यार ताचो तांकां लाव जावंक पावतलो. हो एक गहन अभ्यासाचो विशय.

आमच्या ह्या कवीन खूप गीतां बरयलीं आनी तीं कांय गायकांनी गायलीं. तीं गायतना शब्द आनी सुरांचेर आयिल्लो हिसपाभायलो ताण स्पश्ट जाणवता. गीतकाराक संगीताचें ज्ञान आसप गरजेचें न्हय अशें ह्या गीतकाराक दिसतालें. गीतकाराक संगिताचें ज्ञान आसप गरजेचें न्हय हें खरें. पूण ताका सुरांची जाण आसपाक जाय. बाकीबाबाक राग बी कांय वळखुपाक येना आशिल्ले. पूण सुरांची सुक्ष्म जाण आशिल्ली. ताका लागून तांचे कवितेंत शब्द आपली लय घेवन येतात. ''बाकीबाबाले कवितेंतूच चाल आसता. आपूण ती फक्त सोदून काडटां'' अशें पं. जितेंद्र अभिषेकी म्हण्टाले. अभ्यास नाशिल्ल्यान आमच्या कवीक केन्नाच ताची जाण आयलीना.

कवितेक होरावची पडटा. तरुच ती प्रसन्न जाता. एखाद्रे कवीन कितल्यो कविता बरयल्यो आनी कितलीं वरसां कवितेखातीर दिलीं हाका म्हत्व ना. ह्या वरसांच्या हिशोबाचेर कविता मोलावपाक येना. कविता आपल्याक आयली अशी अवस्था येवपाची वाट पळोवची पडटा. ती केन्ना येत हें सांगपाक येना.

४.३.२२

प्रत्येक शब्दाच्या भोवतणी अणभवाचें वलय आसता. ताका लागून तो शब्द कवितेंत येतना नवो अर्थ घेवन येता. ताका लागून कवितेंत आयिल्ल्या त्या शब्दाचो लाक्षणीक अर्थ घेवंक जायना. तो शब्द खंयचो अणभव व्यक्त करता ताचे कडेन लक्ष दिवप गरजेचें आसता.

फेसबुकाचेर एक सुपुल्ली कविता वाचूंक मेळ्ळी. ती अशी:

You speak
to me
with words
and I hear you
in feelings

- J. Lynn

तशें पळोवंक गेल्यार ही एक सादीच कविता. उण्यांत उण्या उतरांनी खूप मोठ्या आशयाचो आवांठ ती आपल्या मर्दी आस्पावन घेता. शब्द निखटे शब्द नासतात तर ते कवितेंत येतना भावनांच्यो वेगवेगळ्यो सया घेवन येतात. हीच गजाल हांगा सुचीत जाता.

९.३.२२

बाकीबाबाली कविता म्हजे आस्थेचो विशय. म्हजे जिणेंतल्या बऱ्या

वायट प्रसंगार तिणे म्हाका सांगात दिला. तांचो खंयचोय कविता संग्रह काडून एखाद्री कविता वाचची. ती मनाक प्रसन्न करता. हो कवी खऱ्या अर्थान आनंदयात्री. संग्रहरुपात तांच्यो कांय कविता तांच्या कागदपत्रांनी मेळटात. तांच्या हस्ताक्षरांत त्यो वाचप होय एक सौंदर्यानुभव आसता. थोडें तिरपें आनी तांचे कवितेभशेन लय आशिल्लें. बाकीबाबाली एक कविता तांच्याच हस्ताक्षरांत व्हॉट्सॲपाचेर आयल्या. ही कविता ताणी तांचे शिल्पकार इश्ट राम सुतार हांचेर बरयल्या. बाकीबाबान कांय कविता आपल्या इश्टांचेर केल्यात तातुंतली 'एक मित्र' ही कविता. राम सुतार हे एक नामनेचे भारतीय शिल्पकार. गुजरातांत सरदार पटेलांचो पुतळो ही तांची शिल्पाकृती. बाकीबाबाचे वडील भगवंतबाब हांचो अर्धपुतळो ताणी केला. अशें बाकीबाब आनी सुतार हांचें नातें.

'एक मित्र' ही कविता बाकीबाबान १९.८.७१ हे तारखेक तांच्या दिल्लीच्या राबित्यांत बरयली. चालंत अर्थान ती उद्येशिका न्हय. थोडोसो तिका उद्येशिकेचो सूर आसा इतलेंच. हो तांचो इश्ट सादो भोळो आसलो तरी ताच्या आंगांत सोळाकळा अशें कवी म्हण्टा. हो इश्ट कसो तर:

*माणसांशी बोलताना शद्वाशद्वाशी गोंधळे*
*पण मातीशी बोलता त्याचा दिवस मावळे*

शिल्पकाराच्या हातांत माती वेगवेगळीं रुपां घेता. केन्ना ती फूल तर केन्ना वाल जाता. सृजनाची ती एक कुरु. हें सृजन वेगवेगळे रुपकार घेता. आनी हो रुपकार कसो आसत हाची सुनशा खासा कलावंताकूय आसना. 'नेम नाही रसश्री ही कुण्या चित्रे पालवेल' अशीच ती अवस्था आसता. धरतरेच्या सगळ्या सपनांक तो आकार दिता आनी भूल आनी भविश्याचीं दारां शिल्पकाराच्या हाताच्या स्पर्शांन उक्तीं जातात. कलावंत हो आपल्या मनशांतूय रावन एखाद्या परदेशी मनशाभशेन जियेता. भायले आवाज तो आयकना तर तो काळजाच्या सुराक कान लायता. हो शिल्पकार मातयेक कान लावन संवसारा भायले सूर आयकता.

*त्याच मातीच्या वराने त्याला नाही काही कमी*
*त्याच्या हाती तिचे स्वप्न नवे उमले नेहमी.*

ही कविता निखळ राम सुतार ह्या शिल्पकाराविशीं न्हय. ती कलेचेरुच भाष्य करता. कवीच्या हातांत शद्व आसतात आनी त्या शद्वांच्या माध्यमातल्यान तो शद्व शिल्पा घडयतां. गायक सुरांच्या माध्यमांतल्यान रागाचें स्वरशिल्प उबें करता. चित्रकाराच्या बोटांत रेशा आसता. अशी ही कलेच्या विश्वाक भिडपी कविता.

१०.३.२२

The air that floated by me
seemed to say-
write! Thou wilt never
have a better day!
And so I did!

जॉन किट्साचें हे विधान खूप अर्थपूर्ण दिसता. सृजन प्रक्रियेचेर तें उजवाड घालता. अर्थात प्रत्येक कवीची सृजन प्रक्रिया वेगळी आसता. किट्स हो romantic परंपरेंतलो कवी. ताचे कवितेंत एकेतरेची आत्ममग्न अवस्था दिसता. Romantic कवितेचें तें एक लक्षण. हांगा कवीक कितें म्हणूंक जाय? ताचो एक अर्थ असो लावंक येता तो म्हळ्यार सृजनाचीं खिणां वाऱ्याभशेन येत आसतात. तीं उतरांनी धल्लीं ना जाल्यात सुटून वतलीं. जेन्ना तीं शद्वबद्ध जातात तेन्ना मनाक एक वेगळेच तरेची थाकाय मेळटा. दीस सुफळ जाल्ल्याचें समाधान जाता. घडये किट्साच्या मनांत होच विचार आसुंये क्लॉद मोने हो एक व्हड चित्रकार. तो एकेकडेन म्हण्टा: "My wish is to stay always like this, living quietly in the corner of nature." हांगाय कलावंताची आत्ममग्न अवस्था कलेक पोसवण दिता अशें मोनेक सुचोवपाचें आसा. भायर कितलोय बोवाळ आसूं मनात मात एके तरेची शांती आसपाक जाय. आनी भोंवतणच्या सैमांतल्यान कलेची निर्मणी जाता. कवी जावं चित्रकार ते एकाच गोत्राचे आसतात.

कवितेचो आस्वादक आनी कविता हांचे मदलें नातें कितें असो एक प्रस्न येता. कांय समिक्षक reader recreates a poem अशें मत व्यक्त करतात. हाचो एक अर्थ काडूंक येता तो असो: कविच्या मनांत कविता बरयतना जो अर्थ आसता तसो तो आस्वादकाक जाणवत अशें ना. ताका तातूंत वेगळोच अर्थ दिसूं येता वा म्हणुंया तसो अर्थां ताका दिसताच. देखुनूच आस्वादक कवितेचें पुर्नसर्जन करता अशें म्हणुं येता.

२८.०१.२२

कवीचो आपलेच कडेन संवाद जावप म्हत्वाचें. खरी कविता ह्या संवादांतल्यान येता. 'आपुलाच संवाद आपल्याशी' अशें आमच्या संतकवीनी म्हळ्ळां ताका विशेश अर्थ आसा. ते आपल्या मनाभितर पळयताले. किट्स आनी शेले कवी होच अणभव दितात. आनी येट्स? ताच्यो बऱ्यांतल्यो बऱ्यो कविता ह्याच अणभवांतल्यान आयिल्ल्यो.

संपर्क : 9420222876

***

*(पान ४ वयल्यान)*

जून २००० ह्या दिसा, जेन्ना पु. ल. देशपांडे ह्या संवसाराक अंतरले आनी आतां दुसऱ्या फावट ६ फेब्रेर २०२२ ह्या दिसा, ज्या दिसा लता मंगेशकर आमकां सगळ्यांक सोडून गेली. हीं दोगूय जाणां जाण्टी जाल्लीं, पूण ताणी आमचें आयुष्य इतलें गिरेस्त केलां, आमकां इतलो भरभरुन आनंद दिला, की आमचे जगणें सुसह्य केलां. ताका लागून तांचे वचप, काळजान दु:खाची कळ उमटोवन गेलें.

६ फेब्रेराच्यान लता मंगेशकराचें गाणें आयकतना एक नवोच अणभव येता. तिच्या प्रेमगीतांतलो गोडवो, विरह गीतांतली वेदना, भजनांतली आर्तता दर दिसा नव्यान कळटा. अशें कित्याक जाता तें म्हाका खबर ना. पूण जालां खरें. हीं सगळीं गाणी आयकतनां जाणवता की लता मंगेशकर जरी शरीरान आमकां अंतरली तरी ह्या अजरंवर गाण्यांतल्यान ती सदांच आमचे मर्दी आसतली. ''शी इज इम्मोर्टल!''

संपर्क : 9665876860

***

# भला उसकी कमीज...



**कृ. म. सुखठणकार**

१९८० च्या सुमाराक 'भला उसकी कमीज मेरे कमीज से सफेद कैसे' ही रीन साबांवांची जायरात आयिल्ली. आमचे भुरगेपणांत मारांव हो एकूच साबांव आसल्या कारणान कोणाचेंच कमीज अधिक सफेद आसपाचो प्रस्नूच नाशिल्लो. सगल्यांच्याच कमिजांचेर निरो, शाय, आंब्यांचीं खतां, आय्सफ्रूटाचीं खतां समान प्रमाणांत आसतालीं. म्हजे खोमसार फाटले वटेन दुसरेन आसतना दत्तान बरयलेली 'बाबा बुरसो आहे' ही म्हजे विशीं म्हायती चवथी मेरेन तशीच आशिल्ली. म्हजे कुडिची वाड मर्यादीत प्रमाणान जाल्ल्यान इयत्ता दुसरेंत शिंविल्लें खोमीस म्हाका इयत्ता चवथेंत पावलो तरी जातालें, तुमचे म्हायती खातीर. थोडक्या भितर सांगचें जाल्यार आमचे भुरगेपणांत 'भला उसकी कमीज मेरे कमीज से सफेद कैसे' हो प्रस्न आमकां केन्नाच पडलो ना. कारण आमच्या सामकार बाकिचे अनेक प्रस्न आसताले. देखीक, 'आज रेखा शाळेंत कित्याक आयलें ना'. आतां जरीय असले प्रस्न सादे दिसले तरीय ते पिरायेचेर ते प्रस्न आमकां गंभीर अशे दिसताले. आतां, दोन दिसानी येता म्हणून सांगून कुळारा गेल्ली ही दोन म्हयने जरी आयलिना जाल्यार, 'बाये कित्याक आयली ना तूं' असो फोन करप पसून जिवार येता. पिराये नुसार अशें सगल्यांक जाता जांवये, सोड. हालीं मीन बंद आशिल्ल्यान ट्रकांची वाहतूक बंद जाल्ल्यान सगल्यांची कमीजां सफेद उरता आसतलीं हातूंत दुबाव ना. सोड, तो आमचो विशय न्ही.

तर, 'भला उसकी कमीज मेरे कमीज से सफेद कैसे' असो प्रस्न आमकां आमची तुळा (comparison) दुसऱ्या कडेन करतकचूच पडटा. आमकां हें सगलें Trade Practices (SY B.Com) ह्या विशयान शिकयल्लें. आमकां तें कितलें समजलें तो दुसरो विशय. आमकां हो विशय प्रोफसोर साखरदांडो शिकयतालो. हो विशय सामकोच तकले वयल्यान वतकच हांव ह्या विशयांत खोलायेन गेलो आनी प्रोफसोर साखरदांड्या विशीं आनीक म्हायती एकठांय केली. मागीर हो साखरदांडो दत्तवाडी साखळेचो न्ही अशी म्हायती हाताक लागली. दत्तान, रिशीचें कूळ आनी नदीचें मूळ सोदपाच्या भानगडींत पडूं नाका अशें सांगतकच, हांवे जाता तें जांव, नशिबांत बरयलां तेंच जातलें अशें म्हणून विशय सोडून दिलो. फुडें म्हाका तो पेपर मार्च आनी ऑक्टोबर दोनदां बरोवचो पडलो. सोड. 'Comparisons especially in today's wired, visible, demonstrative world may seem inevitable. Yet they must be avoided. Instead of comparing yourself with others, get on with your life. Live it your way. Surely set yourself up against inspiring bench marks'. साखरदांड्यान आमकां शिकयतना सांगिल्लें. पेपराक धा मार्कां खातीर येत बी म्हूण साखरदांड्यांलीं हीं उतरां कादेनांत बरोवन घेतिल्लीं. ताचो फुडें परिक्षेंत कांय उपेग जालो ना ताचें खापर साखरादांड्यांचेर फोडूं नजऽ. नशीब म्हजें! आसूं. साखरदाड्यांन जें सायबांचे भाशेंत सांगलें तेंच आई म्हाका मायभाशेंतल्यान सांगताली. तिणे मायभाशेंतल्यान सांगिल्ल्यान ताका फावो तें वजन आयलें ना. हाका लागून हांवे तें केन्ना आचरणांत हाडलें ना. देखीक, म्हाका दुसर्याच्या पानार कितें वाडलां तें पळोवपाची पाडी संवंय, तुमचे म्हायती खातीर. आमच्या बाकीबाबान म्हणलां, 'माझ्या गोव्याच्या भुमीत गड्या साळीचा रे भात वाढी आईच्या मायेने सोनंकेवड्याचे हात'. भात शेनाचो लेगीत आसूं जेन्ना तो सोनंकेवड्याचे हात वाडपाक येतात तेन्ना म्हजी नदर पयलीं शेजारचे ताटांत कितें वाडलां हें पळोवन जातकच मागीर म्हज्या पानार स्थिरावता. सोनंकेवड्याचे हात सदांच शेजारच्या पानाक झुकतें माप दिता अशी भावना म्हजे मनांत तयार जाता. ह्याच खातीर आई म्हाका शेजारच्या ताटांत कितें वाडलां तें पळोंव ना तुका कितें जाय तें म्हाका सांग, हांव वाडटां' अशें सांगत आयल्या. In other words Don't compare. मावोड्यां दोनूय जांवंय एकठांय जेवपाक बसतकच नलूच्या घोवाच्या पानार बांगड्याचो शेपडेचो कुडको पडटकच मनांत 'हाय' जाता. हांवे बांगड्याचो शेपडेचो कुडको म्हणलां कारण मावोड्यां चडान चड व्हड नुस्त्याचो प्रकार म्हणल्यार बांगडो. आसूं.

सांगपाचो मुद्दो, जंय कम्पेरिजन आयलें थंय दुक्ख हें आयलेंच. आईन जरीय कोणाकडेन कसलीच तुळा करुं नाका अशी शिकवण दिली तरीय ती स्वता हे पातकांतल्यान सुटूं ना. ती, तांबडी भाजी, धवी भाजी, मुळ्या भाजी बी आदोळेचेर शिनपाक बसता तेन्ना तिका आदल्यो यादी जातात. मागीर ती आपल्या भूतकाळाची वर्तमानकाळा कडेन तुळा करता.

''आमच्या तेंपार अशें नाशिल्लें. दारां सताड उग्तीं घालून आमी न्हिदतालीं. आज दाराक फट उरल्यार लेगीत घर साफ जालेंच म्हणून समजुचें. आज कोणाचो धाक म्हणून उरुना.''

आईन सगली तिडक भाज्येचेर काडिल्ल्यान घडये भाजी बारीक शिनून जाता हें हांवे नोट केलां. हांव मागीर,

''आसवेच स्वातंत्र्याची आम्हाला मिळाली अरे पुन्हाः आयुष्याच्या पेटवा मशाली'' अशें म्हणत तिका पाठिंबो दिवपाचो म्हज्या परीन ल्हानसो येत्न करतां.

''तुका हांगा फस्का काडयेन गॅसाचो बरनर पेटोवपाक येना तूं आनी मशाल पेटयतलो!'' अशें म्हणत ती बारीक शिनिल्ली भाजी आनीक बारीक करता. आज परिस्थितीच अशी निर्माण जाल्या की आईच्या पिरायेचीं सगलींच जाणा नकळयां आदल्या काळाची तुळा वर्तमानकाळा कडेन करतात आनी जिवाक त्रास करुन घेतात. सगलींच

जाणा त्या वेळार आदोळेचेर भाजी शिनपाक बशिल्लीं नासतात. हाका लागून तांका राग कोणाचेर काडचो हो आनीक एक प्रस्न तांच्या मुखार उबो रावता.

तुळा करप ही वायट संवंय जरी जाली तरी ती मनीस ताच्या नकळयां करता अशें म्हजें मत. म्हजे हे मताचेर चर्चा जातली हाची म्हाका खात्री आसा कारण म्हजी गणना आतां विचारवंतां भितर जावपाक लागल्या ही तुमच्या खातीर अभिमानाची गजाल. हालींच हांवे आमच्या वाड्यावयलो दादी (जल्म १८९७ मरण १९२९), त्या काळांतलो सर्पमित्र आनीक थोडीं वर्सां जगिल्लो जाल्यार गोंय बेगीन मेकळें जावपाचें, असो स्टेटमेण्ट केल्लो. हाचेर म्हांबर्याल्या फार्मासी कडेन रायबंदरा पाट्यार उलट सुलट चर्चा जाली. दादीक काणेर चाबूं नाशिल्लो जाल्यार आज आमकां वेगळेंच चित्र दिश्टी पडटलें आशिल्लें. सोड, तो आमचो विशय न्ही. तर, मनीस ताच्या नकळयां तुळा करता अशें म्हजें मत. जेन्ना एक अस्तुरी लग्न जातकच कुळार सोडून घोवाच्या घरा येता तेन्ना ती नकळयां दोनीय घरांची तुळा करता. तुळा करतकच निकाल कितें लागता तें सगल्यांक खबर आसा. हाका, 'मैं तो भूल चली बाबूल का देस पिया का घर प्यारा लगे' हो आडवाद. ही आमच्या घरा सून म्हणून आयली. आमगेर म्हयन्याच्या दुसऱ्या शेनवारा दंताच्यो गुळयो घेना हें आयकून हिणे कपलार हात मारलो आनी सालाच्या हुमऱ्यार फतकल मारून बसली.

"आमगेर 'आरोग्यं धन संपदा' हें बाबान फ्रेम करुन सालांत लायलां".- ही.

"आमगेर 'प्रयत्ने वाळूचे कण रगडिता तेल ही गळे' फास्केंत घालून फाटल्यान हुमकळयलां पळय"- हांव.

"आमगेर Health is सबकुछ! सेकण्ड सेटरडे रातचीं सगलीजाणां दंताच्यो गुळयो घेतालीं आनी आयतारा कोणाक चड दंत पडल्या तांकां बाबा रावळगांव चाकलेट दितालो."- ही.

"दंत चड कोणाक पडल्या तें कशें थारावप?"- टायगर.

"बरो प्रस्न"- हांव.

"आमगेर फट उलोवपाची कोणाक संवंय ना, सेल्फ डेक्लरेशन ईज इनफ!"- ही.

त्या म्हयन्याच्या सेकण्ड सेटरडेक आमगेर सगल्यानी दंताच्यो गुळयो घेतल्यो आनी आयतारा म्हाका रावळगांव चाकलेट फावो जाली. ही तुमच्या खातीर अभिमानाची गजाल.

बायलां आपल्या घोवाची तुळा दुसऱ्या दादल्या कडेन उगडपणान करतात. दादल्यांक असली पाडी संवंय ना. तें उगडपणान तरी अशें करी नात. तांचो भितरल्यान घुसमटमार बी जाता आसतलो. बायलां अशें जेन्ना करतात तेन्ना आपूण कोणा बद्दल उलयतां हाचें भान तांकां उरना. हिणे एकदां भर चौकार, कवळ्यां, पंचमी दिसा (माघ शु.।। ५मी ) म्हजी तुळा भरण्या कडेन केली.

"त्या भरण्याची देख घेया! पळया बायलेच्या साडयेची कशी कुयदाद घेता ती. एक चुरी ना साडयेक. तुमकां सेकण्ड गियर घालतना कितें जाता म्हणून खबर ना. सेकण्ड गियर घालें रे घालें जालो म्हज्या साडयेचो चोथो!"

"सेकण्ड गियर म्हणजे अशें आनी अशें न्ही गो?" दुसऱ्या म्हाजनान चौकार गियर घालपाचें प्रात्यक्षिक केलें.

"हय गो, हो क्लचार पांय दवरता म्हणल्यार म्हाका कळ्ऽ जाता. कितले फावटीं सांगलें सेकण्ड गियर घाली नासतना चलय, ना आयकना! हें सेकण्ड गियर म्हज्याच नशिबांत आशिल्लें."- ही.

हांवे दाव्या दोळ्यान चौकावयल्यान देवतेचेर नदर मारली. तिणेच माथ्यावयली पाकळी दिवन सेकण्ड गियर हिच्या गळ्यांत बांदिल्लें. तुमी सेकण्ड गियर घालतना साडयेचो कसो चोथो जाता काय हें चिंतून तकली जड करपाची गरज ना. म्हजे भोग ते म्हाकाच भोगपाक जाय.

हांवे वयर दादले आपले घरकान्नीची तुळा परस्त्री कडेन सहजा करनात अशें म्हणलां खरें. पुणून विनाशकाले विपरीतबुद्धिः ही म्हण खरी करपाची कूय ताका येता आनी दुर्घटणा ताचे घरकान्नीचे उपस्थितींत जाता.

"आगो तूं लग्ना आदीं जीन्स घालतालें न्ही गो? तें xxx पळय गो फिट्ट जीन्स घालता."

"तें बारीऽऽक आसा. हांव सुटलां हांगा. म्हाका बरी दिसची ना ताका दिसली म्हणून."

"तेंय खरें तें मस्का सांग कशें आसा अजून. कशें मेन्टेन करता स्वताक कोण जाणा. दोन भुरग्यांची आवय कोण म्हणचो ना ताका. संतूर शाब्बाचे जायरातींत ताकाच घेवपाक जाय!"

सगले घोव बऱ्या मनानूच अशी तुळा करतात. हांगा घोवाक आपले घरकान्नीन xxx भशेन जीन्स घालची अशें मना पासून दिसता. फुडें तो जीन्स आनी xxx क विसरुनूय वता पूण अर्धांगिनी विसरना.

"आगो आल्याची बरी कडक च्या कर गो ताळो कुचकुचता सो."

"तुमच्या त्या सवळ्या बडयेक सांगा! तें चाय बी बरी कडक करता आसतलें!"

"कोण गो सवळ्यां बडी?"

"तें फिट्ट जीन्स घालता तें!"

"तें सवळ्यां बडी? मस्का सांग म्हणिल्लें न्ही हांवे? आतां पिरायेनुसार यादूय उरना."

मागीर तोंडाक तोंड लागता आनी फुडें विशयाक फांटे फुंटून प्रकरण खंय पावता तें बरोवंक बसल्यार कागदाचीं रिमां पावपाचीं ना.

आदल्यां काळान पालकां मदीं आपल्या भुरग्याची तुळा दुसऱ्याल्या भुरग्या कडेन करपाची एक प्रथाचशी आशिल्ली. आपल्या भुरग्याक देख दिवपा खातीर ते अशें करताले आसुंये. आतां तें सामकें बंद जालां कारण आतां सगलींच भुरगीं एकाच भशेन व्हड जातात. हाका लागून सगलींच भुरगीं देख घेवपा सारकीं जातात. सोड, हांव आमच्या तेंपावयलें उलयतां.

"आरे, कामतील्या सुरेशाक पळय. तांगेर वता तेन्ना तो अभ्यासाक बशिल्लो आसता. कोण आयला हें पळोवपाक लेगीत तो मान वयर करीना. शाळेंतल्यान येतकच जेवन जो अभ्यासाक बसता तो मुतपाक एकदां उठ्ठा खंय, तेंय बी जाल्यार. आनी तूं! अमर गवत आण, छ्गन

गवत घाल ह्यो दोन वळी वाचता म्हणसर चार फावटी मुतपाक उठलो मरे तूं! गवत आणा गवत घाला वाचच्या आदीं तुज्या पोटांत घांस मारलो. त्यो दोन वळी हांवे वाचल्यो. अशेंच तुका मुतपाक आनी हागपाक जालें जाल्यार आयुश्यभर तूं गोरवांक गवत घालत उरतलो, सांगतां तुका!!''

बापायलीं हीं उतरां आयकत सगलीं भुरगीं व्हड जातालीं. ज्या भुरग्या कडेन तुळा जाताली तें नांव बदलतालें. चलीं भुरगें आसल्यार भाशण मातशें मुदार जातालें.

''दिल्ल्या घरा आवयची लज काडटलें तूं! शिरवयकारालें रमा आवयचो हात लागना तेन्ना तिनूय दीस हुमणा पोंतान सगलें करता खंय. तें आवयच्या पोटांतल्यान सगलें शिकून येंवक ना! तुका च्याक उदक दवर म्हणल्यार कितले पेले, साकरे पोंतान सगलें सांगूक जाय.''

पुतांक बापूय पळोवन घेतालो आनी धुवांक आवय. अशी ती वांटणी आसताली.

लग्ना उप्रांत थोडे दीस घरकान्नेक जेवण करुन घरकाराक घालपाची उमेद शी आसता. ही उमेद कितले दीस उरत सांगू नजऽ. अश्या समयार घरकाराची सत्व परिक्षा आसता. जेवणाक बसतकच हळूच ताटांत वाडिल्ल्या जिनसाक बोंट लावन जिबेक लायतकच ताची तुळा तो आपली मातोश्री करताली त्या जिनसा कडेन करता. लग्नाक थोडेच दीस जाल्ल्या कारणान तो तोंड उगडना. तो तोंड उगडटा तें जेवपाक. जशे दीस वता तशे तो उलोवपा खातीर तोंड उगडपाक लागता आनी जाहीरपणान आपले आवयच्या हातच्या जेवणाची तुस्त करपाक सुरवात करता.

''बांगड्यां उडुमेथी खांवची ती आईच्या हातची.''

असलीं उतरां आयकुपाचीं मागीर तिकाय संवंय जाता आनी ती आपणे केल्ले उडुमेथयेचो तोप उडुमेथी थंड जातकच थंडपणान फ्रिजांत दवरता. तो मागीर ती उडुमेथी आठवडो भर 'उड्डमेथी खांवची ती आईच्या हातची' अशें म्हणत खाता. ह्या बाबतींत हांव नशिबवान. आई अजून तग धरुन आसा. जाय तेन्ना कितेंय खांयन दिसलें जाल्यार ती करुन घालता. हिकाय आतां आपल्यो मर्यादा कळ्ळ्या. आमचें लग्न जाल्लें मे म्हयन्यांत. वयर म्हणलां तशें हिकाय लग्न जातकच आपल्या घोवाक कितेंय करुन घालचें अशें दिसलां आसुंये. एक दीस जेंवक बशिल्ले कडेन वाटयेंत कितें तरी घालून हिणे ताटा कुशीक दवरलें. भितर कितें आशिल्लें तें वळखीचें कशें दिसलें. बोंटान हालयतकच तें म्हाका घोंट म्हूण कळ्ळें. बोंट जिबेक लायलें. शोक सो आयलो!

''आगो हें घोंट न्ही आमचे शिरेंतलें? वाटयेंत शें घालून दिलां?''

''सांसंव तें.''

''आगो आतां तें घोंट आपले मूळ अवस्थेंत ना आनी सांसवांची प्रक्रिया जातकच जे अवस्थेंत पावपाक जाय आशिल्लें तेय अवस्थेंत तें पांवक ना. तें मर्दींच हुमकळिल्लेवरी जालां. अंदू घोंट कमीच लागल्या आनी तूं अशी नासाडी करपाक लागलें जाल्यार आनी कांय नाका. आईक तरी सांगपाचें न्ही तुंवे. आईन केल्ले सांसवांत पडटकच घोंटाक लेगीत जिवाचें सार्थक जाल्लेवरी दिसता.''

''आतां घोंटान वाटयेंत उडी मारुन आत्महत्या केल्या अशें समज तूं.- टायगर.

आदल्यो सगल्योच बाय्लो अन्नपुर्णा आशिल्ल्यान तांच्या हातचें जेविल्ल्यान अशी तुळा जावप सभावीक. तांच्या हातचे जेवणाची सर आतांच्या हातांक येणे शक्य ना हें तितलेंच खरें. जो मेरेन जिबेक रूच आसा तो मेरेन अशी तुळा चालूच उरतली. सोड.

जिणेंत अश्यो घडणुको घडटात जाका लागून आपशींच आमचे मनांत प्राप्त स्थितीची तुळा आदले परिस्थिती कडेन जाता. देख दिंवची जाल्यार आमचे नलूची दिंव येता. तें लग्न जावन गोंयच्यान माहिमाक पावलें. (व्हंकल पावणे वेळार हिणे गोंयचो रोपो महिमाक रोयलो अशें म्हणिल्लें, तुमचे म्हायती खातीर). गोंयचो रोपो माहिमाक पावतकच तो थंयचे दर एक गजालिची तुळा गोंयां कडेन करपाक लागलो. हाका लागून ताची स्थिती भुल्लुशिल्लेवरी जाली. तेन्ना मोबायल बी येंवनाशिल्ले. फकत पत्रवेव्हार आनी फोन, तोय बी बुक करुन. बारीक सारीक गजालीं खातीर नलू लायटनींग कॉल बी करपाक लागलें. पयल्याच म्हयन्याक १५८/- बिल येतकच साडू बेजार जालो. तातूंत ताचीय चूक ना.

''अगं दिदडे इथं मूग फुगायला घालावे लागत नाही. इथे कोंबायले मूग रेडीमेड मिळटात. तू देवकारें वाडायला इकडेच ये.''

हें सांगपाक ताणे लायटनींग कॉल केल्ल्याची म्हाका याद जाता.

अगं दिदडे इथे कोळीण दारात तिसर्या कल्लावून देते आई सुंगटां सोलून देते. इकडे सुंगटांनां झिंगा म्हणतात. सगळी मज्जा आहे इकडे.

ह्या कॉलाक साडे तीन रुपया पडले अशें साडू सांगऽ. तिकडचे दिवस आठवून आता इथे माझ्या अंगावर काटा येतो अशें ताणे एके चिटयेंत बरयल्लें.

आमची भाभी युनायटेड स्टेट्स ऑफ अमेरिकेक पावली आनी तिचीय स्थिती नलूवरीच जाली. ती पयलेच खेप थंयच्यान आमगेर आयली तेन्ना भितर सरतना तांबडी जावन आयली. पयलें दिसलें थंय रावन तिची कात तांबडी जाल्या. मागीर दिसलें वतांतल्यान आयिल्ल्यान तांबडी जाल्या. पूण कारण वेगळेंच आशिल्लें. आमचे नेपाळणीन दोन केळम्यांक नायलॉन दोरी बांदून ताचेर कपडे सुकत घाल्ले. तें आमचे भाभीन पळयले आनी ती रागान तांबडी जाल्ली.

"In United States of -merica we dont do this." तिणे केळम्या दिकेन बोंट दाखोवन म्हणलें.

"May be केळमे are not available in United States of America भाभी.''

"No we dont dry our dirty linen in public in United states of America."

हांवे वेळ काडी नासतना रोकडीच नेपाळणीची भेट घेतली.

''कृपया आफ्नो लुगा भित्र सुकाउनुहोस. जसरी तिनीहरू संयुक्त राज्य अमेरिकामा गर्छन.''

(कृपा करुन तुमचे कपडे भितर सुकत घाल. युनायटेड स्टेट्स ऑफ अमेरिकेंत घालतात तशे).

हांवे तिका विनवणी केली आनी भाभीन दिल्ली म्हायती तिका दिली. (शहाणे करुन सोडावे सकळ जन ह्या धर्माक धरुन).

''निश्चित. हामी पनि संयुक्त राज्य अमेरिका मा छौं कि महसुस हुनेछ.''

(जेरुल. आमकांय बी आमी युनायटेड स्टेट्स ऑफ अमेरिकेंतूच आशिल्लेवरीच दिसतलें). नेपळणीन ल्हान भुरग्याच्या उमेदीन म्हणलें. मागीर आमी दोगायनी मेळून केळम्याची दोरी सोडोवन ती लॉजा भितर बांदली आनी कपडे थंय सुकत घाले. सोड.

कम्पेरिजन हें आम आदमी पुरतें मर्यादीत आसता अशें न्ही. वैजकीय शास्त्राचे नदरेंतल्यान कम्पेरिजन ही म्हत्वाची गजाल. कम्पेर करना जाल्यार दोळ्यांच्या दोतोराक वक्ल दिवपाक आनी जनरल फिजिशियनाक वखदां दिवपाक कुस्तार जातलें. दोळ्यांचो दोतोर तुमकां A B C D वाचूंक लायता. उप्रांत तुमच्या दोळ्यांत बॅट्री दिवो पेटोवन पळयलेल्यावरी केल्ले भशेन करता. आनी मागीर रिकाम्या वक्लांत ग्लास घालून हें बरें काय हें बरें अशे प्रस्न करता. जाका तुमी बरें म्हणटात तो नंबर तुमकां पडटा. तुमकांच विचारुन तुमचे वक्लाचो नंबर थारांवक तो पांचशें रुपया घेता. जांव, तार्चे पोट तें. ताका जें शिकयलां तेंच तो करता. पूण हें बरें काय तें बरें जें तो करता तें कम्पेरिजन. तें केल्या शिवाय तुमच्या दोळ्यांक कितें बरें हें तुमी आनी दोतोर दोगूय जाण थारांवक शकनात.

पयर म्हांबऱ्याल्या फार्मासींत हांव अमृतांजन घेवपाक गेल्लों. थंय Dolo ६५० गुळयो घेवपाक घेऽ गर्दी. हांवे सहज वासपूस केली.

''कोरोना क्रोसीनाक आयकना. दोन डोलो घेतां आनी न्हिदतां बाये घोव! दोतोरा कडेन वचत जाल्यार टेस्ट कर म्हणटा बाये घोव!''

एकल्यान आपलें दुखणे म्हाका सांगलें. हांगा ताणे क्रोसीन आनी डोलोचें कम्पेरिजन केल्लें आनी Dolo ६५० चड सेर्त हो निश्कर्शूय काडलो हें तुमचे लक्षांत आयलांच आसतलें. हांवे मागीर Dolo ६५० च्यो दोन स्ट्रिप्स फुडें केन्नाय उपकाराक पडत म्हूण घेतल्यो आनी हिचे कडेन व्हरुन दिल्यो. हिचे कडेन वखदां दितकच हांव निर्धास्त जातां. ही वखदां तरी वेवस्थीत दवरता. हिणे डोलो प्लास्टिकचे बरणेंत घालून Dolo ६५० Tablets for Corona. Use as and when required अशें लेबल लावन ती वखदाच्या कतरेलांत दवरली. बाकिचींय वखदां हिणे लेबलां लावन वेवस्थीत दवरल्यां.

My Nervous System Tablets. Keep away from children. (म्हज्यो नेरवांच्यो गुळयो. भुरग्यां पासून पयस दवरच्यो).

My Hormone Tablets. Store in cool and dry place.

कम्पेरिजन केल्या शिवाय मनशाची प्रगती जावपाक कुस्तार अशें विचारवंत म्हणटात. व्हडल्यो व्हडल्यो कंपनी फाटल्या वर्साचे आंकडे मागीर तो खप जांव, नफो जांव, लुक्साण जांव हे वर्साच्या आंकड्या कडेन कम्पेर करतात आनी आपली फुडली दिका थारायतात. फुडें वचपा खातीर, प्रगती जावपा खातीर ती मागीर खंयचेय मळार आसूं कम्पेरिजन हें गरजेचें. तें योग्य रितीन केल्यार ताचो फायदोच जाता. साहित्य हाका आडवाद ना. फाटीं आमच्या कवी नागवेकारालो (नागवेकर ज्युवेलर्स, पाटो सोडून आमची कुठेही शाखा नाही) रामाच्या देवळा कडेन सत्कार जालो. तेन्ना दत्तान आपल्या भाशणांतल्यान हेच विचार मांडले.

'आज आमी नागवेकार बाबाचो पुरस्कार मेळिल्ले खातीर सत्कार करतात. नागवेकार बाबाक फुडारांतूय पुरस्कार मेळटले. आज कोणाक, खंयचो पुरस्कार केन्ना मेळत सांगू नजऽ. नागवेकार बाबान योग्य दिकेन हातपांय मारल्यार ताका नॉबेल पुरस्कार लेगीत मेळत. तो ताका मेळ्ळो म्हूण म्हाका अजाप दिसचेना. पुरस्कार मेळ्ळो म्हूण वाचप्यांचो रेस्पेद आनी मोग मेळना. तो मेळपा खातीर नागवेकार बाबाक आपले कवितेंत खोलाय हाडची पडटली. ती हाडटलो जाल्यार ताका बाकिच्या भाशांतले कविते कडेन तुळा करुन आपली कविता खंय आसा तें पळोवचें पडटलें.'

म्हाका दत्ताचें उतरान उतर पटलें. नागवेकाराक ताचो कितलो उपेग जालो खबर ना. हांवे मात ते दिकेन गंभीरपणान विचार सुरु केलो. दत्तान आपले भाशणांत कवितेचो उल्लेख केल्ल्यान हांवे म्हज्यो कविता काडल्यो. पयलीं हांव चार चार पाना कविता बरयतालों. 'म्हादयच्या तिरावयलें वचन' ही म्हजी सऽ पानी कविता. 'शिशुपालाचो शिरच्छेद' ही म्हजी बारा पानाची कविता. दत्तान सुचयलां तशें हांवे बाकिचे भाशांतले कवितेंचेर नदर मारली जाल्यार कविता आज सुटसुटीत जाल्ल्याचें म्हाका दिसून आयलें. आज तांचे (शेजारच्या राज्यांत ) गद्य लेगीत आवळून आयलां. तांच्यो कथा लेगीत अती लघू जाल्या (अ.ल.क.) कारण आज वाचप्यांक वाचपाक वेळ ना. असल्यो कविता आनी कथा दोन मिण्टां भितर बरोवन जाता. माथें चड खरपुचें पडना आनी वाचप्यांचेरुय चड अत्याचार जायना. जेन्ना अरूण कोलटकराची 'The Doorstep' ही कविता म्हज्या हाताक लागली तेन्ना म्हाका म्हजे कवितेची लज दिसपाक लागली. हांवे म्हज्या वाचप्यांचेर कितलो अत्याचार केला हाची जाणीव जाली. मेजून चार वळी पसून न्ही. म्हज्या 'शिशुपालाचो शिरच्छेद' ह्या कवितेंत कृष्ण आपल्या सुदर्शन चक्राची धार काडटा तार्चे वर्णन करपाक हांवे तीन पाना खाल्यां. तर ही अरूणाची (कोलटकर) कविता अशी

That's no doorstep.
It's a pillar on its side.
Yes.
That's what it is.

तो कितें सांगपाक सोदता हें जरी तुमकां कळ्ळें ना तरी कविता चार वळींची हें तुमकां कळ्ळांच जातले. हेच कवितेचे धर्तरेर हांवे 'समराज्ञा' ही कविता बरयली.

ती कविता अरूणाच्या (कोलटकर) कविते कडेन कितली लागी पावली हें खबर ना पूण बाकिच्या भाशांतल्यो कविता वाचिल्ल्यान म्हाका फायदो नक्की जालो. हार्चे श्रय दत्ताक दिंवचें पडटलें.

*समराज्ञा वाडलीं.*
*पयले पंगतीक दादले जेवन उठले*
*दुसरे पंगतीक बायलां बसलीं.*

**(पान २८ चेर)**

# 'वर्सल' – गांवगिरे जिणेचो कलात्मक दिश्टावो!

**सखाराम शेणवी बोरकार**

आंगाक सूज येवप वेगळें आनी धश्टर्पुश्ट बळीश्ट जावप वेगळें. साहित्याच्या आंगाकूय अदीमर्दी सूज चड येता. पूण पुश्ट जावप, स्नायू पीळदार जावप अशें केन्नाय घडटा. एका काळांत म्हळ्यार 'पुनव' नेमाळें येतालें त्या दशकांत ही पुश्टताय तेंगशेक पाविल्ली. कोंकणी कथांचे मुळावण तेन्ना घडलें. जबरदस्त कथा तेन्ना आयिल्ल्यो. मागीर हें घसघशीत पीक त्या मानान त्या प्रमाणांत थंडावलें. प्रकाश पर्येंकारान हालींच ह्या मळार शेताची एक कणसांनी भरिल्ली कुणगी फुलोवन आशेचें किरण हाडलां.

'वर्सल' हो प्रकाश पर्येंकार हांचो पयलोच कथासंग्रह हालींच उजवाडाक आयला. प्रकाशबाब फाटलीं पंचवीस वर्सां सावन कथा बरयता. थोडें बरोवप पूण कसदार बरोवप हो प्रकाशबाबाल्या सर्जनशीलतेचो गूण. आपूण 'फुडें फुडें' करपी असो हो लेखक न्हय आनी तो ताचो सभावूय न्हय. तशें करप हें बेगडीचो माल रूपें म्हूण खपोवपाची पिसायपणाची खटपट. त्याखातीर ताचो हो पयलो कथासंग्रह येवपाक इतलो कळाव लागला जांव येता. कितेंय जांव, ह्या कथासंग्रहाची कोंकणी साहित्याक भूक आशिल्ली हें निश्चित.

ह्या कथासंग्रहांत वीस कथा आसात. तांचेर नदर मारल्यार लेखक भौसांतल्या विशिश्ट जमातींचे, तांतल्या मनशांचे जिणे संघर्शाचे प्रस्न मांडपाक येसस्वी जाला. 'वर्सल' कथेंतल्या हरीजनांची, 'ज्यानी' कथेंतली धनगरांची, 'चंद्रकोर' कथेंतली वानरमाऱ्यांची व्यथा, भटक्या जमातींतल्या लोकांच्या अन्यायाचेर बरयिल्ली 'आनी ते पोट घेवन गेले' ही कथा, 'गळ्यांतलो खुरीस' ह्या कथेंत धर्मांतराखातीर किरिस्तांव समाजाची जाल्ली घालमेल, हें सगळें प्रकाशबाबान आपल्या कथांनी फिशालकायेन चित्रायलां. त्या भायर जाण्टेल्यांचे दगदग, त्रास सभेमाजार हाडपी 'वशाड' ही कथा, नव्या भुंयसुदारणा कायद्यांविशीं कांयच खबर नाशिल्ले वर्सासंकीनी जमनी वसोवपी 'अभयारण्य' ह्या कथेंतले शेतकार आनी तांच्या वांट्यांक आयिल्ली दुख्खां आपल्या कथांउदेशीं लेखक सभेमाजार हाडटा. कुड्डे भावार्थ आनी देवदेवस्की मुखार आपली विवेकबुद्ध घाणाक दवरपी 'तावीज' हे कथेंतले लोक आनी परंपरेच्या आनी देवधर्माच्या नांवान मनशांची आनी पर्यावरणाचीय वाट लावपी 'म्हाबळी' कथेंतले जणकार असल्या समाजविद्वाट्या लोकांचीं कर्मां प्रकाशबाब आपल्या कथांनी उक्ताडार हाडटा.




'मोनेळ माया' ही वर्सल ह्या झेल्यांतली एक अप्रतीम कथा. वेव्हार आनी भावना हांच्या मदल्या संघर्षाची. निमणे भावनेचेंच जैत जाता. त्या भायर चली भुरगें वांचयात हो संदेश दिवपी आनी मनीसपणावेल्या श्रद्धेक बळगें दिवपी सशक्त कथानक तातूंत सोबितकायेन विणलां.

ह्या कथासंग्रहांतल्यो कथा जरी गांवगिऱ्या म्हळ्यार प्रादेशीक वातावरणांत घडटात आसल्यो तरी तांचीं बिजां वैश्वीक आसात. ह्या कथासंग्रहांतल्यो साबार कथा अणकारीत जावन देश विदेशांनी पावल्यात ताचे कारण तें हेंच.

'वर्सल' ह्या कथासंग्रहांतल्या कथेंतलीं पात्रां हो लिखाणाचो एक स्वतंत्र विशय. हीं पात्रां विशिष्ट समाजांतल्या घटकांचें प्रतिनिधित्व करतात. ह्या पात्रांची सुख-दुख्खां सामान्या भायलीं. हीं सगळीं पात्रां गांवगिऱ्या वातावरणाच्या संस्कारांत वाडिल्लीं. त्या त्या वाठाराची भास उलोवपी. हातूंतलीं स्त्री पात्रां तर चड तोखणायेचीं. तीं पात्रां परिस्थिती प्रमाणे घडिल्लीं. परिस्थितीक धिरान तोंड दिवपी आनी असहाय्य आसून लेगीत पुरुशप्रधान समाजाकडेन झगडपी. ह्या कथांनीं आयिल्लीं स्त्री पात्रां कश्टी, जिद्दी, केन्ना मोनेळ पांगुरपी तर केन्ना रागान तांबडी जावन झुडून आंगार वचपी. कांय कडेन ती भावार्थाचो पदर माथ्यार घेता तर कांय कडेन परंपरेचें वजें माथ्यार घेवन जिणेची वाट चलता. 'मोनेळ माया' कथेंतली सुकड्याची बायल सोमारगें, 'सांवट' कथेंतली बोम्याची आवय, 'उदक' कथेंतलें गोकळें, 'वशाड' कथेंतली दुल्याची आवय शेरकुलें. 'अभयारण्य' कथेंतलें आवडू, हीं पात्रां लेखकान इतले अप्रतीम धाटणेन पितारल्यांत की वाचक त्या पात्रांनी सामको समरस जाता. तांच्या दुख्खां कडेन सहानभुतीन पळयता. हीं पात्रां आमकां जगपाचो मंत्र दितात, परिस्थिती कडेन झुंजपाचे बळगें दितात. ह्या समाजाकडेन पळोवपाची एक नवी नदर दितात. हीं सगळीं पात्रां लेखकाच्या अवती भोंवती आशिल्लीं, लेखकान लागसरच्यान सहानुभूतीन पळयिल्लीं. तांची दुख्खां आणभवलेलीं. खरेंपणी ह्या पात्रां भोंवतणीच ह्यो कथा गुंथल्यात. 'वर्सल' कथासंग्रहांतल्या पात्रांकडेन पळयतना म्हाका भौनभौन महाबळेश्वर सैल हांची कांदबरी 'काळी गंगा' आनी तांतूतल्या पात्रांची याद येता.

ह्या कथासंग्रहाचें आनीक एक खाशेलेपण म्हळ्यार ह्या कथांतलें गांवगिरें वातावरण आनी उतरावळ. ही उतरावळ वाचतगीर

आमची निजाची कोंकणी भास कितली सुंदर आनी विविधतातेन नटिल्ली आसा हाची आमकां जाणविकाय जाता. ह्या उतरावळी कडेन वा म्हणी आनी वाक्प्रचारांकडेन वाचप्याची संवकळ नासली तरीय कथा वाचतना वाचप्याक खंयच आडखळ जायना. ह्या कथांचो सुवाद तो अचळय घेवंक शकता.

ह्या कथासंग्रहाच्या प्रस्तावनेंत दामोदर मावजो हांणी म्हळां तशें ह्या कथासंग्रहांतल्या भाशेच्या शैलीचें, उतरावळीचें, म्हणी वाक्प्रचारांचें भाशाशास्त्रीय नदरेन अभ्यास जावंक जाय. हांव तर फुडें म्हणीन ह्या कथासंग्रहांतल्या कथेंतल्या पात्रांचोय समाजशास्त्राचे नदरेन अभ्यास जावंक जाय.

'वर्सल' कथासंग्रहांतल्यो विसूय कथा कोंकणी कथेची तांक दाखोवपी. नव्या कथाकारांनी ह्यो कथा वस्तुपाठ कश्यो शिकच्यो. ह्या कथासंग्रहाचो कोंकणींतल्यान पदवी आनी पदव्युत्तर कोर्सांत जेरुल आसपाव करचो. कांय कथांनी नाटक वा एकांकी वा टेलीफिल्म ह्या माध्यमांनी रूपांतरण करपाची तांक आसा. आनी थोड्यो त्या माध्यमांतल्यान रुपांतरीत जाल्याय बी. 'मोनेळ माया' कथेचेर आदारून 'मोनेळ माया' हें मराठी फिल्म, 'गळ्यांतलो खुरीस' कथेचेर 'क्रोस अ क्रोस' कोंकणी फिल्म आनी 'चंद्रकोर' कथेचेर 'रानभूल' हें मराठी फिल्म निर्मीत जालां. तशेंच ह्या कथा संग्रहांत आस्पाव जावंक नाशिल्ले 'काजरो' कथेचेर 'काजरो' ह्याच नांवान तयार जाल्ल्या कोंकणी फिल्माक ६७वो राष्ट्रीय पुरस्कार फाव जाला. बाकीच्याय कथांचोय त्याच नदरेन विचार जावंक जाय. कारण सगळ्याच कथांचीं आशय विशयाचीं बियां सणसणीत आसात.

ह्या कथासंग्रहांतल्यो सगळ्यो कथा वर्स १९९२ ते वर्स २००८ ह्या सोळा वर्सां मजगतींच्यो. हाच्या उप्रांतच्या प्रकाशबाबाच्या कथांचो संग्रह रोखडोच उजवाडाक येवंचो अशी आस्त बाळगीतां.

'वर्सल' हो कथासंग्रह 'जाग' प्रकाशनान उजवाडाक हाडला. ह्या कथासंग्रहांतल्यो वट्ट धा कथा ह्यो आदीं जाग दिवाळी अंकांत उजवाडाक आयल्यात. त्योवूय बी माधवीबाय सरदेसाय हाणी 'जागा'चीं सुत्रां हातांत घेतगीर. माधवीबायूय हो प्रकाशबाबालो कथासंग्रह येवंचो अशें आंवडेतालें. 'जागा'न हो कथासंग्रह उजवाडाक हाडून माधवीबायक आर्गां ओंपल्यांत.

ह्या कथासंग्रहाच्या मुखपृश्टाचो खास उल्लेख करीन दिसता. कणकवलीचो फामाद चित्रकार नामानंद मोडक हाणे हें मुखपृश्ट पितारलां आनी तें कथासंग्रहाची शान वाडयता. कथासंग्रहाची छापणावळ उत्कृश्ट. 'वर्सल' कथासंग्रह हातांत घेतनाच कोंकणी भाशेचो अभिमान दिसता आनी कथाकार प्रकाशबाब पर्येंकाराचो.

**वर्सल (कथासंग्रह)**

जाग प्रकाशन

पानां:१९८

मोल: २५० रुपया

संपर्क : 9923306751

***

*(पान २६ वयल्यान)*

हे कवितेंतल्यान पुरुश प्रधान समाजाचेर हांवे चाबूक मारलां हें तुमचे लक्षांत आयलांच आसतलें. 'दुसर्या भाशांतले साहित्या कडेन आपले साहित्याची तुळा करतकच फायदे जातात ते अशे ना जाल्यार कुपमण्डुक जाता', अशे भावपूर्ण उद्गार दत्तान म्हजी समराज्ञा ही कविता वाचतकच काडले.

बाजारांत नुस्तें घेतना पयलीं बाजारांत आमी पासय मारतात आनी मागिरुच नुस्तें घेतात. नुस्तें घेवन बाजारांतल्यान भायर सरपाक एकटो पाटें घेवन येता. पाट्यांत चकचकीत, पांचवेच, फडफडीत बांगडे आसतात. मागीर तुमी तुमचे पिशवेचें तोंड उगडून भितर पळयतात आनी ते पाट्यांतले बांगडे पळयतात. पिशवेंतल्या बांगड्यांनी आपले दोळे फिरयल्या आनी जिबो भायर काडल्या असो ओगीच तुमकां भास जाता. जेवतना लेगीत ते पाट्यांतले चकचकीत बांगडे तुमची फाट सोडीनात. ताटांत वाडिल्लो शेपडे कडलो कुडको लेगीत तुमकां ओगीच पोवशेला कसो दुबाव मारता. ह्या खातीर नुस्तें घेतकच बाजारांतल्यान मेळटा ते वाटेन भायर सरचें अशें म्हजें मत. सोयरीगती कडेन अशेंच जाता. चलयेकारांक हयकार कळयतकच दुसर्याच दिसा आनीक एक पाकीट येता. ओगीच पाकीट उगडपाचो मोह जाता. पाकिटांत टिपण आनी चलयेचो फोटो आसता. फोटोंतली विद्या सिन्हाची डुप्लीकेट कशी दिसता. चलयेन हयकार दिल्लो आसल्यार तो फोटो राजेश खन्नाचो आशिल्ल्यचो तिका भास जाता अशें समजुचें. लग्न जाता, संवसार जाता, भुरगींय त्या त्या वेळेर जाता पूण तो फोटो आयुश्यभर फाट सोडिना. ह्या खातीर एकदां हयकार कळयतकच मेजार आशिल्लो लखाटो तश्यातसो मध्यस्त्याक परत करप शाणेपणाचे नाजाल्यर जल्मभर मनांत कम्पेरिजन जायत उरतलें.

वयले गजालीवयल्यान एक याद जाली. कम्पेरिजनांतल्यान बरे निश्कर्शूय काडूं येतात, कशे ते पळयात. रिजल्ट लागून बरडाल्या पसऱ्यार पावतकच बरड रिजल्ट विचारतालो.

''कितले विशय उरले रे?''

''दोन.''

''फाटले खेपे कितले उरिल्ले?''

''तीन.''

''शाबास! त्या मानान बरी प्रगती आसा.''

अशें म्हणून तो म्हज्या हातार गोड दवरतालो. तें म्हाका गोडा परस गोड लागतालें.

ओशो म्हणटा,

'Each individual is unique. -nd comparison is not possible. Do you compare mango with an apple? You don't compare. Comparison is a disease.

म्हणुनूच कोणूय कुशिंतल्यान वचूं, मुड मुड के ना देख मुड मुड के.

संपर्क : 9850530756

***

## 'जाग' महिला कथाकारांनी सजयला

८ मार्च हो जागतिक महिला दिस. ह्या निमतान 'जागा'न मार्च २०२२ म्हयन्याचो आंक गोंयच्या नामनेच्या महिला कथाकारांनी बरयिल्ल्या कथांनी बेस बरो सजयला. हो महिला कथा विशेशांक विशेश असोच जाला आनी ताचें स्त्रय संपादपी मंडळाक आनी ह्या कथाकारांक.

कथा हो आदिम काळापासून निर्माण जाल्लो वाङ्मय प्रकार. मनीस जसो जसो उत्क्रांत जालो, तशें ताका आपल्या सरभोंवतणीच्यो गजाली दुसऱ्यांक सांगपाची इत्सा निर्माण जाली. त्यो गजाली रंगयत सांगतगीर तांच्यो काणयो जाल्यो. ह्यो सांगिल्ल्यो काणयो बरोवन दवरपाक सुरवात जाली आनी तांतूतल्यान 'कथा' साहित्य निर्माण जाले.

'जाग' महिला कथा विशेशांकात वेगवेगळ्या विशयांचेर बरयिल्ल्यो कथा आसात. 'भोगसणी' ही बाय हेमा नायक हांची गोंय मुक्ती लडायेचो कॅनव्हास घेवन रंगयल्ली कथा वाचकांक खिळावन दवरता. कांतीच्या रुपाक लागून ताचो भोग घेवपी पॉस्तावेलो पुलीस ऑफिसर आनी पयशांक लागून ताचो वापर करपी कांतीचे आवय-बापूय ही स्वार्थाचीं रुपां कथेंत दिसता. गोंय मुक्ती चळवळ, गोंय मुक्त जाल्या उपरांत गावां-गावांनीं सुरु जाल्लीं बारां आनी ताचे घरां-घरांनी जाल्ले दुष्परिणाम ह्या कथेंत मांडपाक लेखिका यशस्वी थारल्या.

घरांतली चली शिकली जाल्यार सगळें घर शिकता, अशें म्हणटात. 'एक आसली शिट्टी' ह्या सुधा खरंगटे हांगेल्या कथेंत, घरची बायल मनीस जर घट्ट रावली जाल्यार सगळें घर कशें घट्ट दवरुंक शकता तें दाखोवन दिता. लग्नाउपरांत आपल्या आत्मशक्तीक विसरिल्ल्या शिट्टीक टीचर ताची ताकत याद करुन दिता. आपल्या त्या ताकदीच्या बळार, शिट्टी आपलो मोडूंक पाविल्लो संवसार परत उबो करता आनी घोवाक जाग्यार हाडता. स्त्री शक्तीचे 'दुर्गा'रुप बाय सुधा खरंगटे हांणी आमचेमुखार ताकतीन उबें केलां.

ह्या जगांत वायट लोक आसतात तशेंच बरे देवमनीसूय आसतात. 'नंदाले पोर हें..!' ह्या कथेंत अशाच देव मनशाचें दर्शन लेखिका जयमाला दणाईत आमकां घडयता. आज-काल टी. व्ही. वयल्या सगल्या मालिकांनी बायल मनीस ही दुश्ट अशीच दाखयतात. ती आपल्याच घरांतल्या मनशांविरुद्ध षडयंत्र रचीत आसता अशें चुकीचें चित्रण ह्या मालिकांनी घडयतात. आपल्या 'नंदाले पोर हें...' ह्या कथेंत मात लेखिका दणाईत हांणी बायल मनशा भितरले सद्‌गुण वाचकाफुडें मांडल्यात. भाभी माँ, आपलीं अधू दुबळी नणंद नंदिनीचें आयुष्य जाग्यार घालता, ताका योग्य जोडीदार मेळयटा. ताचें लग्न करता आनी वेवस्थीत सल्लो दिवन नंदिनीक आवय करता. एक बायल दुसऱ्या बायलेचो दुस्वास करता ह्या संकल्पनेक छेद दिवपी ही सुंदर कथा.

कथाकार माया अनिल खरंगटे हांची 'अरबांगेली' ही कथा काळजाक भिडता. आपल्या कुटूंबाखातीर भुरग्याक, घोवाक सोडून गल्फांत गेल्ल्या ज्युलियाची ही काणी. ह्या दुर्देवी ज्युलियाक गल्फांत अरब शोशून घेतात आनी तिणे जोडून हाडिल्ले पयशे हांगा घोव आनी पूत उधळतात. ज्युलिया, घोवाखातीर, पुताखातीर आपलो जीव झरयता पूण ते मात फकत ताज्या पयशांकच पळयतात. गल्फांत वचपी कॅथोलीक बायलांची ओढाताण लेखिकेन योग्य तरेन वाचप्यांमुखार मांडल्या. ह्या कथेंतल्या संवादाक वापरिल्ली साश्टीतल्या कॅथोलीकांची भाशा, कथेंत योग्य 'माहोल' तयार करता.

कथा वा कविता खूप दीस वाचकांच्या तकलेंत उरप हें त्या कथाकारांचे यश, ताची कथा/कविता खूब्ब बरी जाल्या हाची ती पावती.

'जाग' कथा विशेशांकातली 'ख्यास्त' ही बाय नयना आडारकार हांची कथा ज्या रातीं हांवे वाचल्या त्या रातीच्यान फुडले तीन चार दीस तरी तीच कथा तकलेन घुंवताली. ॲसिड-ॲटॅक हो विशयूच वेगळो. पूण फकत वेगळो विशय न्हय तर कथेचो आशय मांडपी दोन भयणींचें बदलतें नातें, ही सगली मांडणीय बी खूप वेगळी जाल्या. मनून तिच्या दीदीबद्दल आशिल्लें प्रेम ते आपल्या दीदीबद्दल निर्माण जाल्लो द्वेष हो सगळो प्रवास लेखिकेन ताकदीन रंगयला. प्रत्येक पावंड्यार कथा रंगत वता आनी क्लायमॅक्साक वाचकांच्या दोळ्यांत दुकां येता, शॉक बसता. कथा कशी मांडची आनी कशी आसची हाचें हें योग्य उदाहरण अशें म्हाका दिसता.

कमी शब्दांत अर्थपूर्ण कथा मांडप हें खूप फिशालकायेचें काम. सामको नाट्यपूर्ण शेवट आणि तितलेच योग्य नांव आशिल्ल्या 'धुंवराचो वास' ह्या आपल्या कथेंत लेखिका ग्वादालूप डायस हांकां हें कौशल्य वेवस्थित सादलां. आजचो समाज फुडारला अशें आमी कितलेंय जरी म्हणलें तरी तुज्या काळजाचो आदेश मानपाची मेकळीक अजुनय ह्या समाजान तुका दिवंक ना, हें कोडू सत ह्या ल्हान पूण आशयपूर्ण कथेंतल्यान आमचे फुडें येता.

लेखिका शीला कोळंबकार हांची 'सुवर्णमध्य' आनी मीना काकोडकार हांची 'निर्णय', किरण म्हांबरे हांची 'गॉडफादर', हर्षा शेट्ये हांची 'सेरेंडीपिटी' ह्या कथा ह्यो आंकाची सोबा वाडयतात.

इतल्या सगल्या ज्येष्ठ आनी श्रेश्ठ कथाकारांकडल्यान कथा बरोवन घेवप, त्यो वेळार मेळोवपाखातीर तांचे फाटल्यान लागप, आनी दर्जो राखून आंक वेळार वाचप्यांमुखार हाडप ही तारेवयली कसरत. ती कसरत करीत एक संग्राह्य आंक वाचकांफुडे हाडल्याबद्दल 'जाग' संपादपी मंडळाचे मना काळजासावन देव बरें करुं'

**- अरुण जयराम कामत**

संपर्क: 9665876860

***

## संग्रहाक दवरपासारको आंक

महिला कथा विशेशांक वाचलो. तातूंतल्यो कांय कथा बऱ्यो आसात तर कांय कथा खूप वयल्या पावंड्यार पावल्यात. 'एक आशिल्ली शिट्टी' ही सुधा खरंगटे हांची कथा आशय आनी अभिव्यक्तीचे नदरेन

बेस बरी जमल्या. मीना काकोडकारालो कथा एक तरल अणभव व्यक्त करता. पूण इतले सुंदर कथेक 'निर्णय' अशें नांव कित्याक दिलां तें कळना. 'तांबड्या थिपक्यांचो कोमलो' हे नांव तिका सोबून दिसपाचें. 'ख्यास्त' ही नयना आडारकार हांची कथा तिचे धीट अभिव्यक्तीक लागून वेगळी दिसली आनी हर्षा शेट्ये हांची 'सेरेंडिपिटी' ही कथा खूप जमिल्ली कथा. सेरेंडिपिटी ह्या उतराचो अर्थ हे कथेंत मेळटा. फक्त कांय दसकां कथा बरोवपी कथाकारांच्या कथेक आतां देंवती कळा लागल्या हें ह्यो कथा वाचतकच कळटा.

संग्रहाक दवरपा सारको हो अंक.

**- माधव बोरकार**

संपर्क : 9420222876

***

*(पान १२ वयल्यान)*

वतांत बशिल्लीं दिसतात. केन्ना केन्ना तांच्या माथ्यार राजकीय पक्षांनी आपले नांव घाल्ल्यो सत्र्यो दिसतात. दुसऱ्या अर्दान ह्याच बायपासाच्या दोनी वटेन गोंयचे आदल्या राजकारण्यांनी हातभार लायिल्ल्यो गगनचुंबी इमारती उब्यो जाल्ल्यो नदरेंत वतात. त्या राजकर्त्यांनी त्यो आपल्या भूरग्यां पासत बांदल्यात हें आतां गुपित उरुंक ना. कानालाची जागा बायपासांत रूपांतरीत करची फाटली सगळी खटपट फकत गोंयकारांक काम धंदो मेळचे पासात अशें त्या राजकर्त्यांनी जाहीर केल्ल्याची याद आसा.

हालींच पाट्टो लागसार रस्त्या कडेन व्हांवपी पोत्रो खारीज फोडून काडला. थंयसर आता शिमिटाच्या बेत्याचो बॉक्स रुपांतलो नवो ताळ्ळ खारीज बांदप सुरु जाला. हे बाबीची फाटभूंय विशीं पळयलें जाल्यार गोंय सुटके उपरांत बांदिल्ल्या साळावले खारीजाची गत नजरआड करूं नजो. साळावलेच्या ह्या खारीजान वेग- वेगळ्या आनी जाग्या -जाग्यांनी फुटपाचो 'भांगराळो उत्सव' मनयल्या उपरांत फुटपाच्या 'शताब्दी' कडेन वाटचाल सुरु केल्या. म्हायती प्रमाणे बॉक्स रुपांतल्या नव्या ताळ्ळ खारीजा वेल्यान रुंद रस्तो करपाचो आसा. येरादारिक जाता ते त्रास कमी जावंचे पासत राजकर्त्यांनी हें अशें करपाचें निश्चित केलां. रस्तो रुंद जाल्ल्यान जनतेचे त्रास कमी जातले अशे तांचे म्हणणे आसा. खारीजच्या एका अर्दानची आसा ती जमीन पुराय नवीन रुंद केल्या रस्त्याक जोडून येतली. पडंग जमनीचे मोल आसा ते परस चडावत जायत रावतलें. त्या उपरांत रस्त्याच्या दोनी वटेन गनचुंबी इमारती जावूं येता. फाटीं मेळिल्लो तसोच गोंयकारांक काम धंदो मेळूं येता! आनी तशें जालें तर गोंयकार, गोंयची नवी सकाळ, दनपार, सांजवेळ तशीच रात एकाच वांगडा पळोवं येता!! आमकां पामरांक फकत वाट पळोवपाची शक्त जाय.

संपर्क: 9822129070

***





'नंदालो पोर हो...' हें सुमंत केळेकार हांचें आत्मचरित्र सगळे नदरेन आगळें वेगळें आसा. आज काल भारतीय भासांनी आत्मचरित्रां येत आसात. नरेंद्र कोहली हांचें 'आत्मस्वीकृती' आनी मराठीतलीं हालींच्या काळांत उजवाडा आयिल्ल्या आत्मचरित्रांच्या तोलामोलाचें हें आत्मचरित्र अशें म्हणपाक जाय.

**- माधव बोरकार**

जाग प्रकाशन,

मोल फकत ३५०/– रुपया

# कविता–अस्तुरी



## नारी तूं सर्वेश्वरी

**सोनाली सुरेश पेडणेकर.**

ती एक अस्तुरी
घोवाची परी
घोव तिचो देव,
मोग दोगांचोय
एकामेकांचेर भारी ।
तिच्या व्यक्तीस्वातंत्र्याक
ताचो मान सन्मान भोव ।
ताचेच मान्यतेन ती
उक्तायता मनभाव ।

ती एक अस्तुरी
सोबीत सुंदर नार
ना रुपाचो गर्व
ना तिका अहंकार ।
शारदेश्वरीची तिचेर
कृपेची नदर ।
तिच्याच आशीर्वादान
करपाक मनाचो
हलको भार,
करूंक बेकारेचो
वेळ पासार,
विचार मनांतले
देवयता कागदार,
वेंचता साहित्याचीं
फुलां चार,
जावची मनरीजवण
म्हणून सगल्यांची ।

गुण बीन आसतात
मन जिखपाचे ।
न्हय गोड उतरांनी
भुलोवपाचें
ना वांकडे नदरेन पळोवपाचे ।
दरेकल्यान आपले
मर्यादेंत रावचें ।
तोखणायेच्या उतरांनी
तिचें गुणगान करचें ।
उर्बा तिका दिवन
साहित्य तोखेवचें ।।

वावुरतात म्हणून
सामाजीक मळार
सगलींच नासतात वायट ।
नदर तुजी बदल
लाव नाका तिच्या
संवसाराक दिश्ट ।
निर्मळ मनान पळय
आनी मान तिका इश्ट ।।

-संपर्क: 9923046779

***

## ती खंय

**माया अनिल खरंगटे**

त्यो निळनिळयो दोंगुल्ल्यो
उदका हारशांत रुप तोखेत
शांत शांत तपस्विनी कश्यो
वोग्गी वोग्गी रावल्यात उब्यो.
बळारीचीं कितलींच भिरीं
ऊठ–बस करत करत
चोंच भरुन नुस्तीं घेवन
दिगंतराक वतात झेलत.
ती थंव जिणे वोर्जे सांबाळत
दुकांची पावळी जिरयत
खवदळपी मन लिपयत
कसल्या शांत शांत विरयळत.

संपर्क: 94420685278

***

## भाजयेचो मांड

**राजश्री महाबळेश्वर सैल**

चारय वटेन कोरोनाचो चल्ला सांवार.
हजारांनी शेंकड्यांनी मरणाच्यो खबरो
कसलो हो वायट काळ.
चारय वटेन एक भिरांकूळ शांतता.
ह्या निरव शांततेत
शाराच्या कडेर, आंब्या पोंदा
तीन बिल्डींगे कुशीन
एक म्हातारी गांवडीण
मुखार तीन चार भाजयेच्यो चुडयो,
चिटकीमिटकीचो एक वांटो
बारीक दुदी ,दोन चार
वांयग्यांचीं गोळां
घेवन बसल्या.
रस्त्यार एक मनीस ना
दनपारचें वत रखरखता.
पुलिसाच्यो गाडयो हेवटेन तेवटेन
सायरन वाजयत भोंवतात.
एक पातळ विरविरीत मास्क
तिणें नाकार दवल्ला.
तिर्जे बारीक खडबडीत काळें राकट हात
सुरकुतल्यात.
एका दोळ्यांत फूल पडला.
त्या दोळ्यांतल्यान परत परत उदक येता.
ती परत परत पुसता उदक.
कुशीच्या बाल्कनीत उबो रावन कोणतरी
व्हडाव्हडान मिठाचो गळगळो येता,
थोडोवेळ तो आवाज
शांतता चिरीत रावता.
वताचो हो भार सोंशीत
ती बसल्या कोरोनाचो हो महाभंयकर
आघात सोंशीत
आपल्या भाजयेचो मांडून मांड.

संपर्क: 9922265209

***



## गोजडी

हर्षा शेटये

सुरकुतलेल्या हातांनी
ती शिंवता गोजडी
हातांत सूय येवन
यालता धागे
वाटकुळे, चवकोनी..
एक एक चकरी,काप
उदेत रावता गोजडेचेर

एका काळार
ती चकऱ्यो गाळताली
चक्करदात्यांतल्यान
सोडटाली वाटकुळ्यो वाटकुळ्यो
चकऱ्यो तेलांत
हिंग जिऱ्याचो तो तळिल्लो वास
परमळतालो घरभर
त्याच हातांनी ती
कापताली कापां
चवकोनी चवकोनी
कडयल्ल्या तुपासाखरेचो हात
पुसताली आंगावयल्या पदराक

आतांय येता
तो अरळ वास
हातांतल्या गोजडेक
तोच तो वळखीचो
तेला तुपाचो
भाजिल्लो करपल्लो
यादींतलो वास
आनी ती त्याच तनरेंत
यालीत रावता
धाग्यार धागे
गोजडेचेर
गाळता चकऱ्यो कापां
तेच धुंदीत
तेच लयेत
(गोंयांत पोरण्या सुती साडयांच्यो,णव वारी कापडांच्यो गोजड्यो शिवपाची पद्दत आसा.ह्यो गोजड्यो वाटकुळे,चवकोनी धागे यालून शिवतात.ह्या शिवणीक लाडवांनी,कापांनी, चकर्यांनी अशीं नांवां आसात)

संपर्क: 9850530152

***

## आरे मनशा

उषा ज. कामत

एक्लुय पान नाशिल्लो
चाफो फुलला दारामुखार
अजाप दिसता पळोवन तीं
फुलां फुलिल्लीं चाफ्या रुखार

पानां खुंटलीं मोगरेचीं
तरी परथून येवन आंकरी
फुलां फुलली रासभर
वाठार परमळायता मोगरीं

जायेचें झाड कापलें
झोंप सामकें ल्हान केलें
पावसा मारो सोंसत
गच्च कळेत व्हड जालें

आरे मनशा,
शिक सैमाकडल्यान
परमळीत कर जीण तुजी
झेतान,नेटान उबो रावन

संपर्क: 9763823745

***

## खंय गेले ते दीस जेन्ना

ग्वादालूप डायस

खंय गेले ते दीस जेन्ना
सोयरो येता म्हणपाचें
कावळो रकाद दितालो
फट तुर्वे उलयल्यार
वण्टी वयलो वाग
देंवून तुका खातालो

पाडसा वयल्या दुदयाक
बोट दाखयत जाल्यार
कुसून वचपा इतलें

मनार तो येतालो
केदोय व्हडलो यावो
बेतीनाच्या खुर्सा धाग्याक
थर्त तो भितालो

उयो केंसांत भरतकच
ओडून बांयत व्हरताल्यो
हुस्को आमकां खातालो
कुळण्यांत लोळोवन जेवल्यार
आमंत्रण नासतनांय
पावस काजराक येतालो

सामकारच्या मनशाक
ना दितां खायत तर
पोटांत गडबड जातालो
राक्षी-फुरावयर्ले चोरुन खालां

विचारतांच उचक्यो येवपी
कोणूय बरो जातालो

देवाची शिल्ली देवाचीं गोरवां
आपले वरींच सैमाक
जो तो मान दितालो
आवयच्या कुसव्यांतल्यान
मनीसपण वांगडा घेवन
मनीस जल्मांक येतालो

संपर्क: 86059 42157

***



